# कोंकण टायम्स

जानेर-मार्च १९८९



चामडयार कोरांथलेली कलाकृती (फोटो : दिनेश भरणे)

ल १ रु. संपादक : तुकाराम शेट

# कोंकण टायम्स

जानेर–मार्च १९८९

## अख्ख्या कोंकणांत कोंकणी संस्कृतायेचें रोपले शिंपून वयर काडूंया

आमी कांय गोंयकार फक्त गोंयविशी आनी गोंयचे कोंकणीविशी विचार करतात. खरें म्हुटल्यार अख्ख्या कोंकणी भाशिक वाठाराविशी आनी अख्ख्या कोंकणीविशी विचार आनी वावर चड जावंक फाव आसलो आनी तांतुतल्यान कोंकणी भाशेचें आनी समस्त कोंकणी मनशांचे हीत साधतलें आसलें

गोंय हो अेक ल्हान प्रदेश. तांतूत कोंकणी भाशिक धा लाख लोक. हातुंतलेच इंग्लेशीकडे, मराठीकडे फुडो केल्ले खुबशे आसात. आनी पुर्तुगेजी उपरान्त इंग्लेजीचें राज्य गोंयांत चालू जालां. तेन्ना कोंकणीचो फुडार गोंयांत तरी सुगूर उरपाक भौच खुस्तार. उद्देगिकरण, पर्यटन, आनी भायल्या राज्यांतल्या हेर भाशिक लोकांचे हांगा वास्तव्य हाका लागून गोंयची संस्कृताय ल्हान तळयाच्या उदकाभाशेन खोदोळ जावपाक लागल्या. अशे दशेंत जर आमी चार राज्यांत विखंड जावन पडलेल्या कोंकणी प्रदेशाचो, कोंकणी समाजाचो आनी कोंकणी भाशेचो विचार केलो आनी सगळे एकठांय येवन वावुरले तर कोंकणी समाजाचो म्हासागर जातलो आनी कोंकणी मनशाचो फुडार निखळ आनी सुगूर उरपाक शक्य जातलो.

गोंयांभायर मालवण, सिंधुदुर्ग, कारवार कुमठा, अंकोला, हल्याळ अशे सलग कोंकणी भाशिक वाठार आसात. या वाठारांत कोंकणी संस्कृताय तिगून आसा पुण तिच्या पोसवणेचो, वाडीचो कांयच वावर चलना. गोंया-बरोबर ह्या भागांत कोंकणी संस्कृतायेच्या संवर्धनाचो वावर जावपाक जाय. गोंयाकुशीकच्या या व्हड भागांत जर हो वावर जावन कोंकणी संस्कृताय बरे तरेन फुलपाक लागली तर गोंयचीं कोंकणी संस्कृताय जी खोदोळ जायत चल्ल्या ती या वाठारांच्या आदारान निवळत रावतली.

कोंकणी प्रदेश हेर राज्यांत विखंड जावन पडला तो प्रदेश जरी राजकीय नदरेन अेक जालोना तरी संस्कृताय आनी भाशीक नदरेन अेक जातलो. ते खातीर या समस्त कोंकणी वाठारांतले कोंकणी संस्कृतायेचे रोपले शिंपून वावरून वयर काडूंया.

– संपादक

संपादक :
तुकाराम शेट

संपादन पालव :
प्रकाश द. नायक
महादेव भोसले

उजवाडावपी :
हिरा शेट

छापपी :
रवि मुद्रणालय, बेळगांव.
फोन : २२०७९

कोंकण टायम्स पब्लिकेशन
बेती, बार्देश, गोंय–४०३१०१



Regd. R. No. 39874/83

# शणै गोंयबाब : जीण आनी बरप

शांताराम शं. वर्दे वालावलीकार

'हांव बरप शिकून जाणटो जातकूच शेतकामत करतलों. हांव शेतां, भाटां, तरेकतरा सारी घालतलों आनी पडिग जमनी पिकाळ करतलों. म्हजीं शेतां पांचवीचार. हांव अेका पिका बदला पांच पिकां काट्टलों. एके खांडयेबदला धा खांडयांचें भाप घेतलों. म्हजो नाल्ल कळसो कसो. म्हजो आंबो अमृता–शिसो. हांव खाण-जेवण फुकेसवाय करतलों. दुबळया–धाकटयांक धादोसकाय हाट्टलों. म्हज्या कोंकणांत उपासांनीं कोण वळवळचो ना.'

असो पांचवीचार हांवेस हडुयांत जागोवपी हो 'भुरग्यांलो इष्ट.'

'हांव उद्योग करतलों. हांव मांड–पसरे घालतलों. म्हजीं वेपाराचीं तारवां संवसाराच्या सगळया बंदरांनी भोंवतलीं. म्हज्या कोंकणांतलो म्हाल सगळ्या पेठांनी पावतलो. हांव जायतो दुड् जोट्टलों. हांव व्हडलो गिरेस्त जातलों आनी सगळयांक गिरेस्त करतलों.' अुद्योगी मळाचेर सगल्यांक गिरेस्त करपाची ताका वास्ना.

'हांव वैज जातलों. हांव तरेकतरा ओखतां आनी रसायणां सोदून काट्टलों. हांव संवसारांतली पिडा मारून उडैतलों. हांव लोकांचीं बुरशेपणां, अळशीक आनी घाण ना करून तांकां झळ-झळीत रांवक शिकैतलों. हांव तांकां वज्राच्या आंगाचे करतलों. मागीर कोणाक खोरजेची पुळी जांवची ना. कोणाचें आंग तापचें ना. कसलीच धाम येंवची ना. कोणाचें आंग तापचें ना. कसलीच धाम येंवची ना. कोण बेगीन मरचो ना.' तंत्रीक आनी शास्त्रीक मळाचेर अुदरगत जोडून सगळयांक सुखी करपाची ताका हुटहुटी.

'लोक एकामेकांक उणे लेखतात. एकामेकांची तीड काट्टात. झगडीं झुजां मातैतात. मारतात, धपट्टात, फटैतात, नागैतात, तें म्हाका मानना. लोकांचें नष्टेपण वचून ताणीं मायेमोगान चलचे-खातीर हांव कसलोय उपाय सोदून काट्टलों. आनी संवसाराक सस्तताय हाट्टलों.' समाजीक भेदभावांचें ताका दूख. एकचाराची ओड.

'हांव झगट्टलों आनी झुजतलों. हांव तरवार वावुट्टलों. हांव तुबकां आनी नाळी पेटैतलों. हांव ठो-धुडुम करतलों. हांव विमानांनी अुट्टलों. हांव दारू गुळयांचो पावस घालतलों. हांव दुस्मानाच्या हडुचार बसतलों. ताका चेंचतलो. गुडायतलो आनी माडायतलों. तो गरीब दुबळयांक आपल्या बळग्याचो नसतोच हावको दाखैता, तांकां भेष्टायता, तळमळायता आनी वळवळायता. त्या मस्त्याची मस्ती हांव जिरैतलों. गरीबदुबळयांचो जो दुस्मान तो म्हजो दुस्मान. तो संवसाराचो दुस्मान. ताका ना करूक हांव संवसाराक हुस्क्या–मेकळो करतलों. गरीब दुबळयाची ताका काकूट. अन्यायाचो तो दुस्मान.

'म्हाका कितें कितें करचेंशें दिसता. म्हाका सुकण्याभाशेन उडचेंशें दिसता. तें माथ्यावैलें उंच मळब आनी तांतूंत मोतयांवरी ओतिल्लीं तीं नक्षत्रां पळौन, म्हजो जीव मिडमिट्टा. म्हाका तीं बचके मारून पुंजावचींशीं दिसतात. हांव जाणटो जातकूच ल्हवपीक पांखाटे लायतलों आनी घोणीभाशेन उट्टलों. हांव उंच उंच वेतलों. हांव सूर्यावळी, गिरावळी आनी नक्षत्रावळी रांगशितलों' असलो मळबापरसूय व्हडलो जिवो तट्टीत हांवेस भुरग्यांच्या मनांत फुलोवपी अेक भव्य दिव्य मनीम अुण्यापुण्या शंबर वर्साफाटी दिवचलच्या, भितल्ले पेठेंतल्या एका घरांत जल्मा आयलो. ह्या ल्हान भुरग्याचें नांव ताच्या आवयबापायन वामन म्हूण दवल्लें. आनी फुडाराक हें वामनमूर्तीन आपल्या कर्तुपान सगल्या कोंकणी भौसाच्या काळजांत आपलें नांव अज्रंवर करून दवल्लें.

ह्या मनशान आपले मायभाशेचेर, आपले भुंयेचेर, आपले भुंयेंतल्या मनशांचेर, थंयच्या तणाचेर आनी मातयेच्या कणाचेर लेगीत मनापासून मोग केलो. 'गोड म्हजें गोंय, सुंदर म्हजें गोंय' म्हुण तो गोंयांक माथ्यार घेवन नाचलो, कोंकणीचो पुरुशार्थ जागोवपाखातीर ताणें गेल्ल्या अडेच हजार वर्सांचो इतिहास धवळ्ळो आनी तांतलीं अेकापरस अेक मोलादीक रत्नां काडून ताणें कोंकणीं लोकांमुखार ओतलीं. तो अितिहास संशोधक भाशापंडित, खांपो

साअित्यिक आनी तत्वगिन्यानी म्हणून लोकांमुखार आयलो. कोंकणी भाशेची सासाय चारूय दिकांनी पातळावपाखातीर ताणें तब्बल चार तपां कश्ट काडले. आपल्याच लोकांचीं उणींदुणीं सोंसलीं आनी कोंकणीक व्हडवीकाय मेळोवन दिवपाची म्हान क्रांती ताणें जल्माक घाली. देखुनूच कोणें ताका सत्पुरुश म्हळो, कोणें म्हापुरुश म्हळो, कोणें कोंकणी चळवळीचे भीश्माचार्य अशें ताजें वर्णन केलें. कोणें कोंकणी समाजांत प्राण फुंकपी धन्वंतरी म्हणून ताजी व्हडवीकाय गायली. कोणें ताका कोंकणी साअित्याचो कुळपुरुस मानलो. तर कोणें पुरुशसुक्त गावन 'आमच्या पुरसा आमकां पाव आमचें बरें जांव म्हण' अशें नमळायेन बागोवन ताज्या आत्म्याकडल्यान आशिर्वाद मागलें.

शणै गोंयबाबांचो जल्म २३ जून १८७७ ह्या दिसा दिवचले जालो. दिवचले शाळा नाशिल्ल्यान तांचें प्रायमरी शिकप अशेंच रखडत जालें. आनी दुसरेकडे अेका सोयऱ्यागेर रावन तांणी 'सेगुंदग्राव' ही पुर्तुगेज परीक्षा दिली. आनी तातूंत तांणीं बार्देस तालुक्यांत पयलो नंबर मेळयलो. फुडें शिकपाची खंय वेवस्था जावपासारकी नासली. ताका लागून तांकां एकदोन वर्सां घराच रावचें पडलें. पुण त्यावेळांत तांणी अिंग्लेज आनी संस्क्रत भाशांचो घराच अभ्यास केलो. उपरात चिंतामणराव वालावलीकार ह्या तांच्या बापोलयान तांकां मुंबय व्हरून फुडलें शिक्षण दिलें. गिरगांवांतल्या मराठा हायस्कूलांत तांचें शिकप जालें. आनी १८०८ वर्सा ते मॅट्रीक जाले. मागीर तांणी गोंयां येवन आसगवां नोकरी धल्ली. फुडाराक ते कराचीक वचून थंय मुनिसिपालिटींत नोकरी करूं लागले. त्या उपरांत तांणी दोन तीन नोकऱ्यो केल्यो. तांतल्या Messers Meister Lucius Bruenig हे जर्मन कपनीत ते कंपनीच्या सगळयांत वयल्या पदांमिरेन चडले. आनी अेक दीस आपल्या मना आड एक गजाल घडली म्हणून राजिनामो दिवन तांणी ती नोकरीयबी सोडून दिली. आनी पूर्ण वेळ कोंकणीच्या वावराक लागले.

ह्या सबंद काळांतलीं तांची अुजू चलणूक आनी स्वाभिमान ह्या दोन गजालींनी तांचें लागसार आशिल्लो जगेकलो मनीस दिपकावन गेलो. देशाचो, भाशेचो, स्वत्वाचो अभिमान हो तांच्यातलो सगल्यांत व्हडलो गुण. ताजे मुखार तांणी कसलीच आनी काणाचीच पर्वा केली ना. तांच्या ह्या मानी सभावाचे एकदोन प्रसंग सांगीसारके आसात.

हांगाच्या अेका विदेशी कॉन्सुलेटांत कामाक आसताना तांकां एका वर्सा पगारवाड दिली ना. तांचेबराबरच्या सगल्यांक पगार वाडयलो. पुण शणै गोंयबाबाचो पगार वाडयलो ना. हें पळोवन बरोबरच्यांकूय मातशें वायट दिसलें. तांच्यांतल्या एकल्यान शणै गोंयबाबाक म्हळें लेगीत, 'तूं हरशीं म्हजेच बराबर काम करता आसताना तुका पगार वाडोवंक ना म्हूण म्हाका वायट दिसता.'

शणै गोंयबाबान म्हळें, 'तूं कित्याक वायट दिसून घेता? म्हाका मेळटा तो पगार पुरो.'

त्याच दिसा सांजचें कॉन्सूलान शणै गोंयबाबाक आपोवन व्हेलो



आनी सांगलें, 'सगल्यांक अिन्क्रीमेंट मेळ्ळा. तुका दिवंक ना.'

'नासूं. हांवें खंय मागला?'

'तुका कित्याक दिवंक ना जाणा तूं ?'

'नकळ.'

'हांव आफीसांत भितर सरतां तेन्ना सगळे जाण अुठून रावतात, तूं मात अुबो रावना. देखून तुका अिन्क्रीमेंट दिवंक न'

हें आयकून शणै गोंयबाब तांबडो गुंज जालो. ताका अु फुटना जालें.

थोडचा वेळान सायबान सांगलें, 'पुण तुजें काम बरें आस म्हूण तुका हांव डबल अिन्क्रीमेंट दितां.'

पुण शणै गोंयबाबाचे तीख बुद्दीक बरें खबर आसलें आपणें सायबाक सलाम ठोकचो हे खातीर हो डबल अिन्क्रीमे आसा म्हूण. शणै गोंयबाबान आफीस सुटच्यावेळार अेक काग व्हेलें आनी आपल्या वयल्या अधिकाऱ्याकडे दिलें. तो राजिनाम आसलो. आपलें काम आपुण बरेतरेन करतां खुशामत करप आप काम न्हय. अशे तरेची फोडणीर्शी तांतूंत केल्ली.

दुसऱ्या दिसा सायब नेटान आयलो. ताजो अदमास हो कि आज वालावलीकार अुठून अुबो रावतलो. ताणें वालावलीकार बसत त्या जागयाकडेन बडायेन पळेलें आनी ताका अजाप जालें. केन्न न्हय तो आज तो जागो रिकामो आसलो.

ताणें चवकशी करतकच ताका वालावलीकाराचो राजिनाम मेळ्ळो. ताणें बेगोबेग शिपा काकडल्यान वालवलीकाराच्या घ आफोवणो धाडलो शणै गोंयबाब गेलो ना. मागीर सायबा आपली बग्गी (घोड्याची गाडी) दिवन एका अधिकाऱ्याक तागे धाडलो. पुण ना तें ना शणै गोंयबाबान थंय परतो पांय दवल्लो ना

तशेच तरेची गजाल घडली दुसरे अेके कंपनीत. मेसर्स मेस्ट लुसीस ब्रुनीग कंपनींत आपले हुशारकायेन आनी कश्टांनी ते वयल्य पदार पावले. तेच कंपनीचे नाव फुडाराक कलर ड्रग कं. लि. अ जालें आनी ते कंपनीच्या सेक्रेटरीपदाची सुत्रां ताच्या हातांत आयली मुखार पयल्या म्हाझुजाक लागून कंपनीच्या जाळवणदारांक माय देसाक वचचें पडलें. तेन्ना तांणी देशी लोकांतल्या खात्रीच्या मनशांक आपल्या एका एका फांटयाची जापसालदारकी सोंपयली. झूज सोंपतकच जेन्ना ते परते आयले तेन्ना तांणी आपले जंयजंय फांट आसले त्या सगल्या फाटयाची तपासणी केली हिंदुस्थान, बर्मा सिलोन, जपान हांगाच्या सगळया फांटयाची तपासणी जातकच तांणी जपानासून जर्मनीक आपल्या मुळेल ऑफीसाक कागद बरोवन कळयलें कि, आमी हीं सगळीं ऑफिसां तपासून पळेलीं पुण मुंबय फाटयांतल्या वालवलीकारा अितलो अुजू मनीस आमकां दुसरो खंयच गावलोना. ह्या खातीर तांची अित्सा आसासर मुंबय फांटयाचे सगळे वेव्हार तांचेचकडेन दवरचे. आनी ते केन्नाच काडून घेवंचे न्हयत' ताजे अुप्रांत तांणी धाडिल्ले जर्मन अधिकारी वालावलीकाराच्या हातासकल आशिल्ले. आनी तांचो पगारूय अुणो आसलो. हें जर्मन अधिकाऱ्यांक सोंसना जावन तांणीं वालावलीकाराचो पगार आपले परस अुणो करचो म्हूण खटपटी चलयल्यो. आनी त्या

खटपटींक येस येवन आर्थीक चणचणीच्या नांवार काटकसर करपाचो हेत दाखोवन कंपनीन वालवलीकारांचो पगार कमी करपाची येवजाण मांडली तेन्ना तशें जाल्यार त्याच प्रमाणान जर्मन अधिकाऱ्यांचो पगारूय देवंक जाय असो आग्रो धरून शणै गोंयबाबान (त्या वेळार म्हयन्याक सुमार दोन हजार रुपयांचे) नोकरेर खोंट मारली. ही गजाल १९२६ तली. हांगाय परत तांचें मन वळोवपाचे येत्न कंपनीकडल्यान जाले. पुण तांणी कानामानार घेतलें ना. आनी ते पूर्ण वेळ कोंकणीच्या वावराक लागले.

ह्या दोन घडणुकांतल्यान शणै गोंयबाबाच्या मानी सभावाची नाट आमकां मेळटा. कोंकणीचें व्रत शणै गोंयबाबान घेतलें तेंयबी ह्याच मानी सभावाक लागून. 'आमी कोंकणे आमगेलें पुर्विल्लें भूत साप विसल्ल्यात' हें पळोवन ते निर्शेले. 'आपुण ल्हान, आपुण मोटवो, आपली सुवात धिकेंभर अशें म्हणून रडचाच्यो व्हॉवयो गात बशिल्ल्या' कोंकणी पुताधुवांचें आत्महीणपण घालयतलो आनी तांच्यांत 'आपुण येवजूं तें करूं अशी मनाची भावना' जागयतलो जाल्यार तांचे आवयभाशेक वयर काडलेबगर दुसरो उपाय ना. आपले खाशेले बद्दीन येवजुपाचें सोडिल्ल्यान ते आपले कर्तुत्वदशेचो विश्वास व्हगडावन बसल्यात हें तांणी पारखिलें. 'मराठीक, कानडीक आनी हेर भासांक आवैभासो लेखून आमी आमगेल्या खाशेल्या हकामोलाच्या घरांत परके जाले. आमी आमगेल्या कोंकणांत आयतेकार मानाय जाले. आमी घरचे धनी उल्ले नात. आमी परक्यांच्या मेंदून येवजुचें आनी तांगेल्या पोश्यान उदक पियेंवचें अशी आमगेली बंद्यांली आवतिकाय जाली' अशें दिसून येतकच तांणी कोंकणीक वयर काडपाखातीर पेंगट बांदलें.

शणै गोंयबाबाक कोंकणी भास वयर आयिल्ली जाय आसली ती निखटी भाशेखातीर भास म्हुण न्हय. ते भाशेवरवीं समाजाच्या सगळ्या पांवड्यांची उदर्गत जावची हो तांचो मुखेल हेत आसलो 'कोंकणी भास आमी अशे तरेन फुलोंवया कि सकैल्या पांवड्यासाकून वैल्या पांवड्यामेरेन उलोवपांत तशी बरोवपांत ती सगल्यांक सारकी समजूंक जाय. वैली भास, आनी सकैली भास, पंडिती भास आनी गावडी भास अशे तिचे वांटे जांवक जायनात. आमी गावड्यांक पंडित करूंया आनी सगळेच पंडित जांवया. आनी सगळे जाण कोंकणी भाशेचें पूर्ण स्वराज्य भोगूंया!' ही तांची येवजण आशिल्ली.

'आमी फक्कत आतांचो काळ–आतांची–घटकाच–पळेतात. आज आमी सगळे तरेन खांकनवाळ जाल्यांत देखून आमगेले भाग्यवंत पुर्वजूय तशेच आसले अशें आमकां दिसता. आमी वर्तमानकाळावेल्यान भूतकाळ पारखतात. आज राजकारण, धर्मकारण आनी भासकारण हातूंत आमी सुतकी जाल्यांत. आमी पेल्यान रावन, कोणाक भाफडनासतना, हेर लोक कितें करतात तें मोन्यांनी पळेतात. आनी तांगेल्या बंदेपणांत वावुरतांत. हे भाशेन आमगेले कर्तुत्वी पुर्वजय आमचेसारकेच सुतकी आनी बंदे आसले अशें तांगेलें चीत्र आमचे सामकार उबें रावता. आमकां उंच हांवेसाची देख मेळना. अमगेलो जीव कसल्याच सात्वीक उमाळ्यांनी फुरफुरना. निखट्या, बंदेपणांतच दीस काडूंक आमी जल्मा आयल्यांत आनी सासणांची सासणां आमकां अशेच तरेन वांचूंक जाय, अशी साप उणाक आनी हीण भावना आमच्या मनाची जाल्या.' हें पळोवन तांणी कोंकणी मनशाक आड्डून सांगलें, 'आमगेले भाशेचें कुळार वेदांच्या कुळवंत, गिरेस्त, नांवादीक आनी लोकीकवंत घराण्यासलें आसा म्हणपाचें घणघणीत दिसता. त्याखातीर आमकां कोंकण्यांक आमगेले भाशेचो मोटो अभिमान दिसूंक फावो. आमी कोंकण बाबत कुळां न्हयत. आमकां परक्यां भासांच्या लोकीकार वांचपाची गरज ना. ह्यो भासो आमगेल्यो आवैभासो न्हयत. देखून आमगेले भाग्यवंत आवैचे मांडयेर बसुया आनी माथें वैर उबारून सगळ्या संवसाराकडेन पळोंवया.'

आनी हो बेंठो संदेश दिवन ते ओगी बसलेनात. कोंकणीची तांक दाखोवन दिवपाखातीर तांतूंत तरेकतरा विशयांवेलेंच न्हय तर विगड विगड मोडींचें साहित्य बरोवपाक तांणी सुरवात केली. जायत्या भासांचो अभ्यास करून आनी कोंकणीचे नेम सोदून काडून तांणी कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ रचली. कोंकणीचें नादशास्त्र थारायलें. गोमंतोनिषदाचे दोन खंड बरोवन कोंकणींत कठीण विशयलेगीत कशे सादे सोपे भाशेंत सांगूं येतात हें दाखोवन दिले आनी श्रीमद्‌भगवद्‌गीतेचें भाशांतर तर तांणी अितले सहजतायेन कोंकणींत उतरायलें कि गीतेच्या हेर खंयच्याय भारतीय भासांतल्या अणकारापरसूय तें सरस आसा अशें म्हणटात. शणै गोंयबाबानी बरयल्लीं २१ पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत. त्याभायर शेक्सपियराच्या खेळांच्या केल्ल्या अणकारांच्यो अकरा पटयो रोमी लिपींत उजवाडा आयल्यात. आनी कितलें तरी बरप अजून उजवाडा येवपाचें आसा.

शणै गोंयबाबाक नांवा दवरपी जायते जाण आसले. तांच्यो बकच्छायो आनी चिकत्सायो जायत्यो जाल्यो. तांकां लोकांनी पिशांत लेगीत काडले. पुण शणै गोंयबाब हांका कोणाक बाबगलो ना. मराठीचो पाखो घेवन तांच्याच देसभावांनी तांकां जायतो विरोध केलो. पुण विरोधकांक तांणी शिटकायलें, 'मराठी ही खरेंपणानशीं म्हजी आनी म्हज्या अपुर्बायेच्या गोंयकार भावांची आवै आशिल्ली जाल्यार तिची माया करूंक म्हाका कोणें शिकौची वा आग्रो करची गरज निबालुस नासली. आवैची भक्ती करपांत संवसारांतलो कोणूच पूत म्हाका फाटल्यान धुकलींत अशें म्हाका दिसना. जे भुंयेवैल्यो फातुल्यो, रेंव आनी झाडकांचो सुको पालोलेगीत अपरूप वस्तीवरी हांव लेखतां ते भुंयेची आवयभास खरेपणानशीं मराठी आशिल्ली जाल्यार तिका हांव धिस्कटावन उडैन अशें केन्नाच जातलें आसलें? हांव तिका म्हज्या काळजाच्या देवान्यांत देवतेभाशेन पुजेक लायतलों आसलों. परंत म्हजें मन म्हाका सांगता कि, मराठी ही म्हजी आवै न्हय, कोंकणी हीच म्हजो खासा आवै. देखुन निखट्या काळजाचोच न्हय तर म्हज्या सगळ्यां देहाचो देवारो घडौन आज उणीपुणीं तीन तपां हांवें तो तिचे सेवेक ओंपला.'

शणै गोंयबाबाक सारके समजतले जाल्यार आमकां तांच्या काळार वचचें पडटलें, परंपरावाद्यांच्या विरोधाकडेन अेकल्या अेकसुऱ्यान झुजपाचें काम ल्हानसमानाचें न्हय. पुण तांकां ताणें सरळ आव्हान दिलें, 'आमी कोंकणे झुजूंक तयार आसात. आमी

पूर्विल्ल्या वेदांतल्या झुजमान्या आनी विद्वान ऋषिल्या वंशांतले. आमी पाणिनी, पतंजली, कालिदास, परशुरामस्वामी, भट्टोजी दिक्षित, न्यायमूर्ति काशिनाथशर्णै तेलींग, डॉ. भाऊ दाजी, रावबहादूर शंकर शर्णै पंडित आनी मोसिंजोर सेबास्तीयांव शर्णै दाल्गाद हांगेल्या वंशातले. आमी शिलाहारांच्या, राष्ट्रकुटाच्या, शंकपार्य आग्न्याल्या राण्याला आनी सांवताल्या वंशांतले. आमी जिवबादादा, लखबादादा आनी दिपा राणो हांगेल्या वंशातले. आमी कोणाक भियेनात आनी कळी-काळाचीय पर्वा करिनात. आमगेली लिखणी तशीच तरवार घसघशीत-खसखशीत बरी चलता. येयात कोण येतात ते आमचे कडेन झुजूंक!'

अजूलेगीत 'प्रतिगामी विचारांचे होते' असो तांचेर सवाय शाप मारपी लोक आमच्यांत आसात. गावडचांक पंडित करूंक भायर सरिल्ल्या आनी खंयच्योच जाती अुणाक लेखूंक नाका म्हुण पराथतल्या, 'गरीब दुबळचांचो जो दुस्मान तो म्हजो दुस्मान' अशें लेखतल्या राजकारणांत, भामकरणांत स्वतंत्रताय जोडपाची वान्सा धरून बंदेपण पुरो जालें, जीव सामको वाजवानलो म्हुण कुभासावन काबुलमेरेनच्या अखण्या आनी संसल्या स्वराज्याची खेम घेंवक भायर सरिल्ल्या तेजवंत पुरसाक प्रतिगामी म्हणपी लोकांची अप्रबुद्ध करची तितली थोडी.

तांच्या विचारांची बुन्याद थीर आसली. फुडार पारखुपाची तांक तांचे बुद्धीक आसली. गोंयांत स्वतंत्रताये अुपरांत गोंय महाराष्ट्रांत विरघळावपाचे जे येत्न जाले आनी ओपिनियन पोलाचें म्हाभारत घडलें ताजो दिश्टावो तांकां आदीच जाल्लो. तांणी शिटकावणी दिल्ली. ' हिंदुस्तानाक स्वराज मेळटकूच हांगेलो हावेस अितलोच दिसता कि मराठणाक गोंय दसोवन, मराठचांचे आनी मराठी भाशेचें चेपण आपणाल्या माथ्यार घेंवचें आनी अडेचे 'मराठी' म्हणोवन सासणांचीं सासणां बंदेपणांत काडचीं! दमणगंगेसाकन मलबारामेरेन सगळो कोंकण देस हातांत घेवन, हिंदुस्तानाचे मुखेल सतेतळा ताचो कारभार कोंकणी भाशेंत खासाखवान चलोवप आनी आपणाल्या घरा-घरांत आपणें धनीपणान नंदचें, हें हांगेल मय्नांतूय येना! हांकां बंदेपणाचीच रूच! राजकरणांत, भा[illegible] कारणांत आनी धर्मकारणांत हे फांपरमुठके बंदेच रावतले म्हणटात हांकां स्वतंत्र कोण करीत?'

गोंय हें संवसाराक देवदिणें अशें जावंचें हें तांचें सपन आसले हांगाचे जातीं कातीं भितल्लें भेद हे ह्या वावरांतलें व्हडलें आडमे हेंय ते वळखून आसले. देखून दमन्याच्या निमतान १९२७ त गोंय हिंदू असोसियेशनांत केल्ल्या एका अुलोवपांतल्यान ते पराथतात 'आमच्या हिंदूंत चार मखेल जाती आसून तांतूत पोटजाती जायत्य आमात आनी तांचीं कामां पुर्विल्ल्या काळापासून वेगळीं वेगळ थारावन दवल्ल्यांत ..... परंत, यत्न केल्यार सभावगुणूय बद[illegible] येता हें आमी विसरूंक फावना. खास्व्याक गोरवां आमडू येती आनी शिद्याक तारवांय चलोवंतीत तुमी जाणतूच. गोंयां आम आंबुल्लीच्या खुंटाक मानकुराद, फेर्नांदीन, आपोस, मालदेस आनी हेर गोड गोड आंब्यांच्या खांद्यांचीं गार्फा करून कुंटाचे मुदलचो सभावगुण बदलतात. तर मागीर मनशांक आपले सभाव गुण बदलूंक कितें जालां? म्हाका दिसता, यत्न केल्यार, बामणाच्या आपलें बामणपण राखून क्षत्रिय, आणी वाणी सुदीर जांव येना, क्षत्रियाच्यान आपलें क्षत्रियपण राखून बामण आनी सुदीर जांव येत आनी वाणयाच्यान आपलें वाणीपण राखून बामण, क्षत्रिय आनी सुदीर जांव येता आनी सुदराच्यान आपलें राखून बामण क्षत्रिय आनी वाणी जांव येता. अशें आसा जाल्यार बामणान निखटया बामणपणाची, क्षत्रियान क्षत्रियपणाची, वाणयान निखटया वाणीपणाचा आनी सुदरान निखटया सुदीरपणाची बडाय मारून मराठणांतली नष्टो देख घेवन अेकामेकांकडेन झगडचे भाशेक आनी गोंयच्या चारूय जातींनी आनी पोटजातींनी, एकाच वेळार बामण क्षत्रिय, वाणी आनी सुदीर जांवक कित्याक वावुरचें न्हय? वेदांचो

आनी उपनिषदांची फोडणिशी करपाचें जितलें हक आपणाक आसा तितलेंच तरवार वावुडपाचें, तागडी धरपाचें, गोरवां राखपाचें, शेतकामत करपाचें आनी सगळचा जातींची चाकरी करपाचें हक आपणाक आसा अशें जणअेकलो गोंयकार आपल्या मनाची खात्री करून ते भाशेन वावरूंक लागत जाल्यार आमी आनी आमची भूंय कळाव लागनासताना व्हडविकेक पांव आनी सगळचा संवसारांत देख घेंवक फावोशे जांव.,

' आज दसन्याचे परबेक आमी जी चाल चलैतात ती आमकां कितें शिकैता ? आमी हे परबेच्यो मगल्यो खुमो, चुकयनासतना बारकायेक करतात खरे. परंत भितल्ली शिकवण कितें ती ध्यानांत घेतात व्हय ? आमचे परबेक सगळे गोंयकार हिंदू, जातपात ध्यानांत हाडिनासतना शेतकामत, सरस्पत आनी शक्ती ह्या तिनूय देवींची भक्तीन पुजा करतात हाचेवैल्यान सिद्ध जाता कि ह्या तीन देवींचे भक्तीक जातपात निखालूस आड येना. तांची भक्ती कसलेय जातीच्या मनशान केल्यार कामायेता हे भाशेन दसन्याचो एक दीस जर ती भक्ती करूंक कोणाकूच आडमेळें ना तर वर्साच्या उल्लेल्या तीनशीं एक्रणसाठ दिसांनी तरी तें कित्याक आसचें ? सभाविक ना म्हणपाचें अुक्तें दिसता. दसरो आमकां शिकैता तें हेंच. तांचे शिकौणे भाशेन, आमचे भितल्लो जणअेकलो बामण, क्षत्रिय, वाणी आनी सुदीर त्या तिनूय देवींक सदांकाळ पुजूंक फावोशे आसात, देखून ही शिकौणी ध्यानांत घेवन निखटे जन्मदिणे जातीच्या अभिमानाक गाराभाशेन दसून बसनासताना, आयच्या म्हुर्तान, आमचे आनी आमचे भुंयेचे व्हडविकेखातीर आमचे भितल्लो जण-एकलो गोंयकार तांकत तितलो चारूय जातींचो जांवक वावरूंया आनी चारूय जातींचो अभिमान धरूंया. आमी कसलीच जात उणाक लेखूंया नाका. आमी आमच्या माथ्यार सरस्पत धल्ली जाल्यार एका हातांत तरवार, तुवक ना जाल्यार तोंडको घेवन दुसन्या हातांत नांगर आनी तागडी घेंवया. आनी एकामेकाचे सेवेक एका-सारके लागूंया. अशेतरेन आमी चल्ल्यों जाल्यार दसन्याच्या दसन्याक शमीचो, कळयाचो आनी कांचनाचो बावको पालो एकामेकांक वांटून आपापल्या मनांक फटौचेबदला, सतमाच्या भांगराचीं खणखणीत बरीं पोवनां आनी मुयेदां एकामेकांक वांटची तांक आमकां येतली. हें आमी ध्यानांत धरूंया.

शणै गोंयबाबान अितिहासाचो सोद घेवन जें लिखाण केलें त्या लिखाणांत तांणी पानापानार आपल्या मत्ताक बळगें दिवपी आदारावळ दिल्या. अमुक अेक मत्त थारायताना आपणाक खंयचे गजालीचो अुपेग जालो वो खंयचे असामीन ही गजाल सांगली हाची अिल्ल्यान अिल्ली खबर तांणी कळीत केल्या. तरीकय शणै गोंयबाब आपलो पूर्वग्रह करून घेतात आनी बरयतात अशे टीकेक तांकां तोंड दिवचें पडलें. भौ. रा. ना. नायक हांणी तांचे विशींचो अशेतरेचो अेक अुगडास 'त्रिवेणी'त बरयला. १९२७ त शणै गोंयबाबांची गोंयभायली वसणूक ही व्याख्यानमाळ चलताली. आनी तिका गर्दीय बरी जाताली. आयकुप्यांमदीं मुंबयच्या सेंट झेवियर कॉलेजचे नांवाजते अितिहास सोदपी फादर हेरास येताले आसूंये. व्याख्यानांचें पुस्तक छापून केन्ना तयार जाता हाची चवकशी फा. हेरास गोमंतक छापखान्याकडे परतून परतून करताले. ह्या पुस्तकाच्या अुजवाडावपा समारंभाचे येजमान्य श्री. वसंत नारायण नाईक हे विद्वान ग्रहस्थ आसले. तांणी शणै गोंयबाबाच्या वावराची तुस्त करून अशें म्हळें कि सगळें बरें तितलेंय आपल्या गोंयांत भल्लां अशें तांकां दिसता ना जाल्यार जो बुद्धधर्म गोंयांत केन्ना पावलोच ना ताजे अवशेष आजूय थंय मेळटात आनी मेळटले अशी मत्तां ते मांडचे नासले.

श्री. वालावलीकार ह्या दबाज्याक हाजीर आसल्यारूय आपल्या सभावाक आनी चालीक धरून ओगी बसले जातले. पुण ही घडणूक घडून जातकच कांय काळान मुंबयच्या टायम्स ऑफ इंडियाचेर फादर हेरास ह्या इतिहास सोदप्याक गोंयच्या चांदर काय अशाच खंयच्याशा जाग्यावेल्या खणपांत बुद्धमूर्ति मेळिल्ल्याचें अुजवाडा आयलें. 'वसणूके'चें छापी पुस्तक मेळटकच फादर हेरास गोंयां गेल्ले आनी वसणुकेंतले बरपावळीच्या आदारान तांणी थंय संशोधन आनी खणप केल्लें. ही खबर जेन्ना श्री. वसंतराव नाईक हांणी वाचली तेन्ना ते खासा श्री. वालवलीकारांक मेळपाक गोमंतक छापखान्यांत आयले आनी मनाचें व्हडपण आशिल्ल्या ह्या विद्वान मनशान वालावलीकारांची मखलाशी मागली. आनी तांच्या संशोधनाची तुस्त केली.

शणै गोंयबाबाची लिखणी वज्राचे धारेची आसली तरी हरशिले जिणेंत ते फुलावरी मोव आसले. भुरग्या-जाणटयाकडेन ते सदांच नमळायेन वागले. आपल्या मतांचो तांणी आग्रो धल्लो आनी तीं आदारासैत मांडली तरी हटवाद बाळगिलो ना. आपुण तुमकां फटाशी सांगिना; आपुण सांगतां तें तुमी तुमचे बुद्धीचे साणीर घांसून कसाक लागल्यार घेयात ही तांची भावना आशिल्ली. कोंकणीक तिची सभाविक देवनागरी लिपी आसची हें मांडटना लेगीत तांची लोकशायेवेली निश्ठा अुक्ती जाता.ते म्हणटात. ' ... देखून अेन्नादर आमी देवनागरी लिपी लागीं करूंया नाजाल्यार आमी फाटीं अुरतले. हावें हें म्हगेलें मत्त तुमच्या फुडयांत माडलां हांतंत म्हगेलो हटवाद ना. तुमकां धा जाणांक जें मानता तेंच तुमी करात. पुण कोंकणी भास अेकरूपी करून ती व्हडविकेक हाडात.

मराठी भाषेचे व्याकरणकार व व्याकरण–प्रबन्धकार (संग्राहक : मोरेश्वर सखाराम मोने : प्रकाशन १९२७) ह्या नांवाचें अेक मराठी पुस्तक अुजवाडा आयलां. ह्या पुस्तकांत ' महानुभावीय व्याकरणकार, महाराष्ट्रीय प्रमुख व्याकरणकार व व्याकरण–र्चचिक, शालोपयोगी व्याकरणकार, व्याकरण–प्रबन्धकार, छंद : शास्त्रकार, मराठी भाषेचे युरोपियन प्रबन्धकार ' अशे व्याकरणकारांचे वांटे करून तांतूंत ७६ व्याकरणकारांची फोटो सैत वळख दिल्या. शणै गोंयबाबांचो फोटो तांतूंत मेळना. संपादप्यांनी तांची वळख बरोवन फुडें म्हळां, ' यांच्या पत्रांतील भाषेवरून ते अत्यन्त नम्र व आपलें चरित्र आणि फोटो प्रसिद्ध करण्यास नाखूष दिसतात. मोठ्या मिनतवारीने त्यानीं दिलेल्या टिपणाचा उपयोग करून वरील मजकूर लिहिला आहे.'

कोंकणीचो वावर तांणी अेका विश्वामान केलो. ते बेठेच सपनांत रंगले नात. आपणाक 'समानधर्मा' कोंकणीच्या' अशोका'च्या रूपान अेकाद्रोच मेळ्ळो तरी कोंकणीची भांगराची घुडी संवसारांत जयजयकारान फडफडली हाचो गडगंज विश्वास ते काळजान बाळगून वावुरले. तांच्या सोंपत्या काळार गांयच्या अेका तन्न्या कोंकणींभक्तान तांचे मत जाणून घेवपाखातीर तांका प्रस्न केलो, 'तुमी अुबी पिराय कोंकणीखातीर खर्च केली. हो सगळो वावर फुकट गेलो अशें तुमकां दिसना ?'

तांणी त्या तरनाटयाक बसोवन घेतलो आनी सांगलें, 'म्हाका तशें दिसना आतां तुमी पळेयात. काल पयर म्हजेकडेन कांय भुरगे आपणाक पी अेच डीक घडे दी म्हुण सांगूंक आयिल्ले. हांव काय मॅट्रीकेवयर शिकूंक ना. म्हण्टकच हे भुरगे कोंकणीक लागन म्हजे-कडेन आयले अशें जालें ना?'

भोंवतणी कोंकणीसंबंधातल्या अुजवाडाची आस्त नासतनाय निशेंणेची अिल्लीय नांवनिशाणी तांकां पुसूनलेगीत आफुडलीना हाजें कारण फुडार पारखुपाची तांक ह्या म्हापुरसांत आसलो.

'आतां आमगेले वाणी, चाड्डे आनी बामण, हिंदू तशेंच क्रिस्तांव, ह्यांणी गावडे आनी हेर सुदीर लेंखिल्ल्या भावांक आप-णाल्या अुंच पांवडयार चडोवन, सगळयांनी मेळून, कोंकण, कोंकणे आनी कोंकणी भास ह्या भौव सोबीत तिर्कुटाची भांगराची घुडी संवसारांत जयजयकारान फडफडावची. ह्या कामाक होच मुगुर्व्याचो वेळ. बऱ्यांतल्या बऱ्या म्हुर्तांची घडका भरत आयली. कुभा (काबूल) न्हयेसाकून ब्रह्मदेसामेरेन आनी कैलासासाकून कुमारीमेरेन सासणाच्या अखण्या आनी संमल्या हिंदुस्तानाचें अुर्फण स्वराज्य आमची खेम घेवंक अुडक्यो मारीत आमचे सरी धांवत येता. ताका वेंग मारात, ताका आंवळून धरात आनी सासणाचे भाग्यवंत जायात! बंदेपण पुरो जालें! अुबाण आयलो! जीव सामको वाजवाजलो!' अशें म्हुण ते स्वराज्याक येवकार दिवंक सिद्ध रावले. पुण काळाक तें मानवलें ना. वयलों अुतरां बरोबर चार पांच म्हयने जाता सर आनी स्वराज्याची फांतोट फुलूंक आनीकय वर्स देडवर्स आसा म्हळयार ९ अेप्रिल १९४६ दिसा हो जैतवंत आत्मो सास-णाचो संवसार सोडून गेलो. पुण भौ. रवींद्र केळेकार म्हणटात तश कोंकणी भौसाचे मानेर बसून तो कोंकणीचो वावर करून घेत आसा. कोंकणी फुडें फुडें पावल मारीत आसा.



( वज्रलिखणीं, कोंकणी भाशा मंडळाच्या बरेपणान )



## ग्रेवयार्ड

चालू आत्म्यांच्या
सीलबंद प्रदेशांतलें
हें ग्रेवयार्ड.

हांव वळखतां ही पाटी
स्वातंत्र्याची
एकेचाळीस वर्सांफाटी
अंत जाल्ल्या म्हज्या
आंतरिक स्वातंत्र्याची.
हृचा पाटयेशिवाय
हांगसर कसलीच कुरू उरूंक ना,
उजळिल्ल्या सपनांची !

युगाच्या पनवतींत
मातयेंत झिरत गेल्लें
फक्त रक्त,
रक्त दिश्टी पडटा
आनी रक्त–रक्तांतले भेद !
बाबडीं मनां पोटांत धेवपाचो
अक अेक गुन्याव,
आयज ही माती प्रस्थापित करूंक लागल्या

शंकराचार्य, पोपसायब
अकालतक्त गुरू, राजपूत
हांच्या सगळयांमदीं
हांव मार्क्सानि बरयल्लो मानवतावाद सोदतां ( ! )
याचकांच्या दोळयांत...

मोम्याबोणां ओडून ओडून
खडबडीत जाल्ल्या ओंठार
आयज अेका अेका आदिवासी
दिसांचो अस्त जायत आसा.

– निलबा अ. खांडेकार



# कोंकणीतल्यान शिकल्यार भुरग्यांच्या पावलांनी नेट येतलो

**– दुर्गादास दत्ता गावडे**

मनशाचो भाशेकडलो संबंद हो मुळावो तसोच न तुटपी. खंयच्याय समाजाची भास ही समाजांतल्या मनशां मनशांमदीं संवाद सादपी पूल. मनशाक मनशाकडेन बांदून दवरपी दुवो.

आमच्या देसांत भाशावार प्रांतरचना घडलीं हें खूप बरें जालें. ताकीवंत भासांक उदरगतीकडेन वचपाची नाट मेळ्ळी. नाजाल्यार कांय भासो चिड्डतल्यो आसल्यो, घुस्मट्टल्यो आसल्यो आनी एक ना एक दीस बावून झडटल्यो आसल्यो.

आमचे कोंकणिची दशा तरी वेगळी खंय आशिल्ली ? बाबडी कितलीशीच वर्सां रान्नी– पोल्ल्यांतूच उरिल्ली. तशी आमची भास समृद्ध, ताकिवंत, तेजिष्ट ! पुण हें गोंयकारांक, तिज्या पूत धुवांक पटोवन दिवपाक, कोंकणिचो मुकूटमणी शणै गोंयबाब हांकां आपल्या जिवाचें रान करचें पडलें. सदृढ साहित्य निर्मणी करची पडली. पूण एक मात खरें शणै गोंयबाबान धोल बडयलो आनी उपरान्त कोंकणी गडे खुदले ताणी धुमशेणा घातली. ताणी रानां पेटयलीं. ताणी नखेत्रां जागयलीं.

१९७५ वर्सा कोंकणीक साहित्य अकादमीची मान्यताय मेळ्ळी. गोंयचें कोंकणी भाशा मंडळ, मंडळाचे तेन्नाचे अध्यक्ष श्री. चंद्रकांत केणी, सरचिटणिस भौ. उदय भेंब्रा, भौ रविंद्र केळेकार, भाऊ काकोडकार आनी कोंकणिच्या मोगान पिशे जाल्ले, गोंय, महाराष्ट्र, कर्नाटक, केरळ हांगाचे तिचे पूत हांच्या प्रयत्नाक यश आयिल्लें. महाराष्ट्रांतल्या कांय लेखकानी आनी गोंयच्यो तेन्नाच्यो मुखेलमंत्री शशिकलाबायन अकादमीक ते बाबतीन विरोध केल्लो खरो. पूण १९७६ त तांका नाकां मुठीन घेवन भोवचे पडिल्लें.

तेन्ना दिशिल्लें, आतांतरी कोंकणिची तांक दुस्मानाकय समजतली आनी ते तिचे उदरगतीच्या वाटेवयले कुशीक सरतले. तशे खुपशे जाण कुशीक सल्लेय आसुये पुण तिचे नीज पुतत्र आड येवंक लागले. बंदेपणाची संवंय जाल्ले हे आमचेच गोंयकार भाव तिका अपशकून करूंक लागले. कोंकणिची तांक समजून घेवपाचो ताणी यत्न केलो ना वयल्यान फटाशो मारूंक सुरवात केली. 'कोंकणीन साहित्य ना, कोंकणीत व्याकरण ना, कोंकणीक लिपी ना, कोकणिन शब्दकोश ना!' तांचेमदले कांय जाणकार उगत्या दोळ्यांर कुड्डीं वोकलां चडोवन बसले.

आमच्या सरकाराचोय तांका सांगात आशिल्लो. खंयचेय भाशेचे उदरगतीक जसो लोकाश्रय जाय आसता ताच्या दुप्पेटीन तिका राजाश्रय जाय आसता. पर्यायान सरकाराचो आशिर्वाद जाय आसता. सरकार दरबारान तिका पयलो मान मेळपाक जाय, तेन्नाच आवय भाशेचें म्हत्व सामान्यांतलो सामान्यय वळखूंक पावना आनी ते भाशेन आपुणय शाणो जांवचो म्हूण तो ती भास शिकपाक लागता. गोंय मुक्तीउप्रांत तीन सरकारां आयलीं, तीन मुखेलमंत्री आयले आनी तिनुय, आमच्या पाड्या नशिबान म्हणूया कोंकणी द्वेश्टेच आयले. ताणी जाता ते परीन परकी भासांचोच थातोमाथो केलो. तांचीच अर्थ–अपुर्बाय केली पूण हे मातयेन किल्लल्ली कोंकणी पिसडून उडवपाचो यत्न केलो.

कोंकणी प्रदेशांत कोंकणीक राजभाशेचो पाट मेळोवन दिवपाक कोंकणी मनशांक चळवळ करची पडली, झुजचें पडलें, बंदखण भोगची पडली. केदें दुर्दैव हें आमचें. जो पाट एखाद्रे आवयक अधिकारान मेळूंक जाय तो पाट तिका झगडून मेळोवचो पडटा. वा रे वा गोंयच्या सरकारा, तुकां शतशः प्रणाम !

आतां गोंयचो खबसो भौस जागो जाला. तांका आवयभाशेचें म्हत्व पटलां, तांचो स्वाभिमान जागो जाला. आयच्या विद्यार्थ्यांनी कोंकणी शिकपावटेन पावलां घातल्यांत. आयज मुळाव्या तशेंच माध्यमीक, उच्चमाध्यमीक पांवड्यार कोंकणी विशय शिकप्यांचो आंकडो वाडला. गोंय विदयापिठामेरेन कोंकणी पावल्या ही बरी गजाल म्हणपाक जाय. तरिय इतल्यारूच समाधान मानपाक मात् जांवचेना. माध्यमिक उच्चमाध्यमीक तशें मुळाव्या शाळांनीय कोंकणी Optional दवल्ल्या. हो तिचेर अन्याय जावन आसा. वयल्या पांवड्यार एक तडजोड स्विकारूं येता पूण मुळाव्या शाळांनी कोंकणी Optional न्ही Compulsory जावंक जाय. सरकार जेन्ना असो कायदो करतलो तेन्नाच तिका खरो न्याय मेळटलो.

दरएकाचें शिकप जाचे–ताचे आवय भाशेंतल्यानूच जावंक जाय हो शिक्षणतज्ञांचो सिद्धांत शिकप म्हणचें फकत पाठ्यपुस्तकां पाठ करप न्ही तर एखाद्रचा विशयाचें सखोल ज्ञान मेळोवप आनी चड करून हें परकीं भाशांतल्यान साध्य जायना कारण आमच्या जिबेर घोळटा एक भास आनी शिकप जाता दुसरे भासेंतल्यान. आतां इंग्लीशीचीच गजाल घेतली जाल्यार, आमी घरा कडेन वा घराभायर उलयतात कोंकणी आनी शाळेन शिकतात इंग्लीशीतल्यान ए, बि, सि, डो शिकून, स्पेलिंगां पाठ करतां, उतरां याद धरतां, वाक्यां घडोवंक शिकता म्हणसर आमची एस्. एस्. सी. जाल्ली आसता. म्हणटकच एस्. एस्. सी मेरेनचो अभ्यास चड करून समजून घेवचेपरस पाठ करूनच जाल्लो आसता. गायडांवयलीं प्रश्न उत्तरां पाठ करून पेपर बरयतात. तकली रिकामीच उरता. विद्यार्थ्यांचो बौद्धिक विकास जावंक पावचना. जाता तो फकत घुस्पागोंधळ. अर्दे समजलां, अर्दे समजूना अशी अवस्था. प्राथमिक स्तरार मराठीतल्यान शिकलेल्यानीय कितें व्हडलोसो उजवाड घातला सो दिसना. आमचें शिकप मराठींतल्यान जावना खरें पूण भरपूर वाचन करूनय अजून शुद्ध मराठी उलोवंक जमना.

आवयभास ती आवयभास आनी अडेची ती अडेची.

आयज कोंकणीत लागीं लागीं बरीच साधना आसात. मुळाव्या शाळांपासून, विद्यापीठ स्तरामेरेन लागपी व्याकरणां आसात भरपूर साहित्य आसा, कोश आसात. लिपिचो तर प्रस्नच ना. तशो कांय प्रमाणान उणिवो जरूर आसात पूण त्योच ल्हवू ल्हवू भरून येतल्यो हातुन दुबावूच ना. आयज कोंकणिची उदरगत चारूय दिकांतल्यान चालू आसा. सगळें खरें पुण निशेदाची गजाल म्हळचार गोंयचो सरकार अजून सारखो बरो जागो जावना. राज्यभाशेचें बील पास जावन वर्स जालें तरी बील चालीक लागना. आमचो सरकारूच कोंकणीक चेपूंक सोदना.

हांगाचे भुंयपुत शिकून–सवरून बेकार भोंवतात आनी भायले हांगा येवन असुदाय नोकऱ्यो मेळयतात. शाळांनी जशी कोंकणी compulsory जावंक जाय तशीच सरकारी नोकऱ्यांखातीरूय ती गरजेची करूंक जाय.

सरकार कोंकणीखातीर कित्येंय करतलो जाल्यार, करपा सारखें खूपशें आसा. फकत जाय ती इत्सा आनी भाशेचो मोग नोकऱ्यांखातीर जर कोंकणी गरजेची केली जाल्यार आयच्या विद्यार्थ्यांक कोंकणी शिकल्याविणें पर्याय आसचोना. आनी एकदां सुरवात जाली म्हणटकच मागीर भाशेचो विकास आनी भुरग्यांची बौद्धिक उदरगत जावंक वेळ लागचोना.

खरें म्हळचार, आमचे जे कांय भाव अजुनय परधीजिणेपणान जियेतात ताणी विचार करपाचो वेळ आयला. कोंकणी भाशेचो न्ही जाल्यार आप–आपल्या पाल्ल्यांचो तरी. आपल्या भुरग्यांक खंयचे भाशेन शिकप दिल्यार तें तांकां बेगीन समजतलें हाजो विचार पालकांकडल्यान जावंक जाय. वगीच झेपनाशिल्ल्या भासांचें वजें तांच्या माथ्यार दवल्लें म्हुण तांकां तें पेलूं नाकां ? त्या परस, सादी, सरळ, सोपी अशी कोंकणी भास आसा जी आमी सदां उलयतात, जी आमकां रोखडी समजता ते भाशेंतल्यान तांकां पुस्तकांची खावड दिवची आनी पळोवचें. हांव निश्चीतपणान सांगतां, तांकां शिकपाची गोडी लागतली, उमेद येतली. आनी जो भुरगीं हेर भासानी शिकताना आपटत, धोपटत यत्तांचे पांवडे चडटात, ताणी कोंकणी तल्यान शिकल्यार तांच्या पावलानी नवो नेट येतलो तांच्या हुडुचान नवो झेत जागतलो आत्मविश्वास निर्माण जातलो.

गोंयांत कोंकणितल्यान शिक्षण ही आज काळाची गरज जावन आसा. काळ कोणा खातीर थांबचोना पूण आमी मात् २१ व्या शेकड्यांत पावून पावचेना.

–✱–

# गोंयच्यो बाजारपेठो गोंयकारांच्या हातांत उरतल्यो ?

— गोविंद वि. खानोलकार

आमी नीज गोंयकार आमची भास कोंकणी. आमी जरीय दुसऱ्यो भासो शिकले, व्हडले बुदवंत जाले, तरी आमचे मायमाशेचो आमकां खूब अभिमान आसा. आमी गोंयकार सुशेगाद वृत्तीचे. दुसऱ्याक खूब मान दिवपी. परक्यांक लागी करपी. कोणेय आमची मातशी तुस्त केल्यार आमी भुल्लूसपी. कर्णा सारकी उदार दानत आमची. आमी मेळटा तातूंन सूख मानून रावपी. दुसऱ्यांक आदार दिवपी. आमच्या घराक कीड लागल्या ती पळोवची सोडून दुसऱ्यांक चड करून परकी लोकांक आदार दिवंक धांवपी. हाकाच लागोन गोंयच्यो बाजारपेठो गोंयकारांच्या हातांत उतरल्यो कांय ना हो दुबाव येता.

कोणय म्हणत हांव भायले भितल्ले असो भेदभाव करता. पूण तशें मात न्हय. सगले आमी एक. सगले आमी भाव भाव. पूण दर एकल्यान पयलीं आपलें पळोवंक जाय. मागीरूच दुसऱ्याचें. अशे म्हळयार अतिताय जांवची ना. कोणय म्हाका स्वार्थी म्हणत. पूण तें खरें न्हय. आपलो संवसार सामाळून आपल्या मनश्याक आदार दिवन जो परमार्थ करता तोच खरो विचारी मनीस अशे म्हणचें पडटलें.

आयज आमकां आमचे विशी चिंतपाचो वेळ आयला. आमची चूक वेळार आमी सुदारली ना जाल्यार एक दीस आमच्या गांवांत आमच्या गोंयांत आमी भायले जातले हातूंत दूबाव आसा ? कोणय म्हणत आमच्या गांवांत आमच्या गोंयांत आनी आमी भायले ? हाका पिशें लागलां ! ना म्हाकां पिशें लागूंक ना ! हाचे फुडें किदें जातलें हाची जाणीव हांव करून दितां. सद्याक गोंयांत किटे चल्लां चलत आसा हांचो गंभीरतायेन बारीकसाणेन जर विचार केलो जाल्यार हांव किदें म्हण्टा ते तुमच्या मनीत आयलेबगर रावचेना. कांय कांय गजाली आमच्या हातांतल्यान वचूंक लागल्यात हे दिश्टी पट्टा.

कोणच म्हणत हांव भायल्या लोकांचो दुःवास करता म्हण. आमच्या गांवांत भायल्या लोकांनी येवन रावचे, शिकचे, धंदे करचे, पैशेकार जावचे हे सगलें आमकां मान्य आसा. पूण ह्याच भायल्या लोकांनी आमचे कडेन मदत मागची आमचो आधार घेवचो आनी पांच वर्सां भितर आमचे उपकार विसरून वयर आमचेर हक्क गाजोवचो ताणी आमकां शाणेपणा शिकोवची, आमचेर सत्ता गाजोवचो, हें समा न्हय. हे मानून घेवपाक आमी तयार नात.

आमी सगले भारतांतले एक हे मान्य आसा. आनी परकी देसांतलोय कोणय आमच्या राष्ट्रांत रावपाक आयलो जाल्यार तर ताका मनीसपणान जगोंक दिवप आमचें पयलें काम आसा. पूण ताची दादागिरीं आमी केन्नाच आयकून घेवंक फावना. बऱ्याच वर्सां पयलीं आमच्या गोंयांत पुर्तुगेज लोक वेपारी जावन आयल्ले आनी आमच्या सुशेगाद वृत्तीचो फायदो घेवन ताणी आमचेर राज्य केलें. जुलूमच केल्लें. हाची पुराय जाणवीकाय आसूनच आमीं आजूनय तशेच आसात. इतिहासांतलो तो गजाल परतून घडत हाची आयज भिरांत जाल्या.

आमचो नीज गोंयकारांचो म्होंवाळ स्वभाव, सुशेगादपणा आनी दुसऱ्याक (परकी मनश्याक चड मान दिवपाच्या ह्या पाडच्या गुणाक लागोन आमी फसल्यात, फटवल्यात. आमच्या हातात निमणें कांयच उरचें ना हें सुर्याच्या किरणा इतलें सत जावन आसा. आतां प्रश्न असो, गोंयच्यो बाजारपेठो गोंयकारांच्या हातांत उरतल्यो ? हाची जाप न्हयकारान दिवची पट्टली. जांच्यो गोंयात खूब पिळग्यो जाल्यात, जांका कश्ट करपाक थोडीभोव जमीन, रावपाक आपले घर जांव खोप आसा, जाची आवयभास कोंकणी आसा, जो खरोच कोंकणी भाशेचो मोगी आसा, गोंयचो जाका अभिमान आसा, गोंयच्या आर्थीक सामाजिक उदरगतीखातीर जो पोटाच्या तिडकीन वावूरता, जाका गोंय, गोंयचो दर्या–न्हयो–दोंगर, शेतां, भाटां कुळा-गरां विशीं अपूरबाय आसा, जो तांचो सामाळ करता तो म्हज्या मतान खरो गोंयकार. फकत स्वार्थाक लागोन आपूण गोंयकार म्हणपी भायल्या मनश्याक हांव केन्नाच गोंयकार म्हणचो ना.

गोंयच्या खंयच्याच व्हड शारांत जर आमीं गेले जाल्यार आमकां गोयांभायल्या लोकांली दुकाना दिश्टीक पट्टात. भायले हे लोक कसलोय वेपार करतात. आमच्या मनश्याकडेन आमी वाणपण करतात. पूण तांच्येकडेन वाणपण करूंक आमकां लज दिसता वा उणेपण येता. आयज प्लॅस्टीक आयदनां, शेंदऱ्यो, कपडे, खेळणी, भाजी, मसालो हाचो बारीक प्रमाणात हे लोक वेपार करताना दिसतात. त्याच बराबर हॉटेलां, किराणा दुकानां, पुस्तकाची दुकानां कोल्ड्रीक, स्पेअर पार्टाची दुकानां, रेडिओ, T. V. फर्निचराची दुकानां, टायर रिमोल्डींग, गॅरेजी ह्या सारक्या सगल्या तरेच्या वेपार धंद्यान भायले लोक मुखार येत आसात. आंतां खंयचोय-वेपार जांव धंदो करपाक गोंयकार तयार नात. ते फकत शिरवीशे फाटल्यान लागल्यात. म्हयनो जालो कांय पगार हातार पट्टलो ही तांका खात्रीं आसता. धंदो सारको चलत हाचो आमकां भरवंसो ना.

## मनाजोगतें बालगीत

# पावसा पावसा यो रे यो

पावसा पावसा
यो रे यो...
शेतांत म्हज्या
खेळूंक यो.

खेळूंक तुका
शेत दितां
नांगर आनी
जोत दितां...
आपा–लिपा
खेळूंक यो...
पावसा पावसा
यो रे यो.

शेतांत म्हज्या
रात दीस
जाय तमो
नाचून घे...
हांसून घे
लिपून घे
साळचो गोंडो
जिखून घे.

आजय्या हातांत
घालून मुदी
करंगूट पामणी
सोडून घे.
केंदळा कणसां
हालोवन धोलोवन
भांगरावरी
पिकोवन घे.

पावसा पावसा
यो रे यो...
आपा–लिपा
खेळूंक यो.

– र. वि. पंडीत

हाचें कारण म्हळयार आमी धंद्यान लेगीत मुरवत धरतात. धंद्या कडेन मुरवत उपकारना हाची जाणवीकाय आसून लेगीत आमी फसतात. दुसरें म्हळयार आमच्यानी आमचोच मनीस मुखार आयल्लो पळोव नजो. आमच्याच गांवचो मनीस बरो गिरेस्त जाल्लो आमकां सोसना. ताका कसो त्रास दिव येता हाचो आमी विचार करतात. आपली चूक नियाळीनास्तना दुसऱ्याल्यो म्हळयार आम-च्याच लोकाल्यो चुको सोदीत आमी रावतात.

बाजारपेठो जांव वेपार धंदयापासून आमचें लक्ष उडूंक लागपाचें मुखेल कारण म्हळयार आमचे कांय सत्ताधारी लोक आनी तांचे चमचे अशें म्हळयार चुकचें ना. देख दिवची जाल्यार खंयच्याच गांवांत धंदो वेपार करपाक जागो, पैसो, लायसन्स, दाखले आनी हेर गजाली गोंयकाराकडेन बेगीन जायनात. हाचें फाटलें कारण भ्रष्टाचार आमी आमच्याच मनशांक वेचून काडट्टात आनी हेच मनीस सत्तेर आयले कांय आमची कामां फुकटचान करपाक तयार नासतात. आमकां दिसता ताणी आमची कामां फुकट करची. हें तांका मान्य नासता किदयाक तर तांका जी संद मेळील्ली आसता तिचो उखलपाक जाता तितले बेगीन पैसो कमवपाचो आसता. आनी आपल्याच मनश्याकडेन पैसो कसो मागप हो प्रस्न आसता आनी हाचोच फायदो भायले लोक उखलतात. ल्हान वेपार करपी मनशांक व्हडलो वेपार (भायले) आदार दितात. तांची भितरल्यान संघटना आसता. हाका लागोन खंयच्याय गांवांत हे लोक कसलोय धंदो भियेनास्तना करतात. आमच्या सत्ताधारी लोकांक हातालागी धरून हे भायले लोक आपलीं कामां रोखडींच करून घेतात. गोंयांत शेंद्रे प्रकरण जें गाजतां तें एक उदाहरण म्हूण येता.

हें सगळें पळयलें काय् एक गजाल मतीत येता. कांय वर्सांनी आमकां कन्नड, तामिळ, मल्ल्याळम ह्यो भासो शिकच्यो पडल्यो. आमच्या ज्ञानांत भर घालपाक न्हय तर बाजारांत गेलों कांय किदेंय घेतलो जाल्यार ते भाशेंत विचारूंक मेळोंक जाय म्हणोन किदयाक तर तेन्ना आमचो एकूय गोंयकार वेपारी नासतलो.

गोंयच्यो बाजारपेठो गोयकांराच्या हातांत उरच्यो अशें जर खऱ्या गोंयकारांक दिस्ता जाल्यार आख्या गोंयांतल्यान गोंयकार वेपार संघटना घडोवंक जाय. हातून ल्हान वेपाऱ्यापासून व्हड धंदे-कारामेरेन एकचार घडोवन हाडूंक जाय. ह्या संघटनेंत फक्त गोंय-काराचोच आसपाव आसूंक जाय. अशा वेळारा आमच्या सत्ताधारी लोकांक बुद्द शिकोवंक जाय. संघटनेन धंदयाविशीं लोकांभितर आशा आनी आवड निर्माण करूंक जाय. एकामेकाक आदार मेळूंक जाय अशें जालें जाल्यार पयलीं सारक्यो गोंयच्यो बाजारपेठो कांय प्रमाणान गोंयकाराच्या हातान उरतल्यो.

आनी अशें जालें ना जाल्यार गोंयच्यो बाजारपेठोच किदयाक गोंयचें राजकरण, समाजकरण, अर्थकरण, गोंयची संस्कृती गोंयचें गोंयपण लेगीत ना जातलें, न्हय ते भायल्याचें जातलें हें सांगपाक कोणा जोतिश्याची गरज नासतली.

-※-

# म्हाका आवडलेलें कोंकणी पुस्तक

– शाणू ये. गावडे
( सावय-वेरें )

हांवेन मोटच्या अुमेदीन नांव वाच्चें पयलींच पुस्तक अुगडल्लें. आजवेर अुपाशी पोटार हात घेवन मनीस, कितलींशीच तपां युगां जाली हाडांचो सापळो करीत भोवता. नशीबांन शीता गोटयाचो ताका वास येता. त्या वासाचेर तो घुरी घालूंक तडफडटा. मुखार वचत रावता... तशीच कशीशीच म्हजी अवतिकाय जाली·

पुण, भौमानेस्त कवीबाब म्हणूंक लागले,

' म्हाका अेक कविता बरोवची आसा मात्शे रावात :'

आनी किराची नदर मारून म्हज्या मुखावयलो तो शीता-गोटो अुखलून घेवन नाच जालो. तो मळबांत अुडल्लो, काय पाताळांत लिपलो. तें दोळे अुक्ते आसून लेगीत हांव पळोवंक शकलो ना. मागीर तो खंय गेलो? ना, तो खंयच वचूं ना. तो हांगाच आनी याच धर्तरेर हेडटा. अेक परमात्मो जावन !

तो आपल्या चंवनाचेर मीठ चोळटा. दुसऱ्याच्या खिणांचेर फूंक घालीत, आपली कल्पहांवेसी सपनां साकार करूंक ताणें शेवण्याचो अवतार घेतला.

' फळां फुलांचो वसोवन गांव
सोडटां म्हजी सुकणी
आनी तांच्या तोचितल्यान
वेचतां जगा दुखणीं '

हें कवी कल्पनेंतलें पोकळ आश्वासन न्हय. तो यंत्रावरी चलत आसा... फाटलें पावल मुखार दवरीत.

' सकाळ म्हजी हांगा जाल्यार गांज खंयतरी '

खऱ्यानीच यंत्राक लेगीत फाटी अुडोवपी कवीचो आत्मो, ताणें खोपीतल्या नागडया अुगडया कश्टुपी शेतकामत्यांचेर नदर माल्ल्या. तांची पोटा खळी, फाटी कण्याक बाग घालून दुकां घस्-घश्यानी व्हांवयता ती पळयल्या. आंकवार जड्डेचें दु:ख पारखिलां. तेदेवेळार पाशाणी फातराक चिरून व्हांवपी खंती झऱ्यांत ताच्या हातांतली शीता अुंडी विरगळचा. ताचेकडेन सगळी सुखा आसून लेगीन तो दुयेंस पडल्ला. आपुण अेक म्हारोगी समजून,

' हांवेन जगून जगचें कित्याक ?'
हो प्रस्न मनांत खेळयत निर्शेता.

पूण, दुखाचें मूळ सोदपाचें तो विसरून वचना. तो आपलें मागणें मागत रावता. जगाक दुकांच्या हुनसाणीचो भूतकाळी अितिहास अनंत काळांचे नातें जोडून नव्या ताल्ल काळाची दारां उगती करून, सुखाचो अुजवाड फाकोवंक सुर्याकडेन भीक मागता. तेन्ना सुर्य फाटफुडें पळयनास्तना अस्ताक वता. परत अेकदां कवीच्या काळजांत दुखाची कळ मणमणून येता. आपूण आपल्याकच विसरता. आनी देवधर्म, श्रद्धा संस्कृती, संत योग्यांच्या करणेक पालव दिवन ध्यानस्त बसना. तेदेवेळार तीच खरी ताका

' मोक्षाची दारां अुघडपी
अस्त्रां कशी दिसपाक लागता '

कितलो हो भावार्थी कवी काळा वांगडा दुकांच्या जाळयांत पेवपी. चार-चौगां सारखोच. पुण दुसऱ्याक मनशांत हाडपाक पळोवपी. सुखाचो मंत्र शिकयत जगांत अुमेद हाडपी. अेक देव मनीसूच कसो.

हांव पानां परतीत रावलो. दुकां सुखां चाखीत, रूचीन आंवडो गिळटालो. ओठांवयल्यान लाळ गळ्ळी तेन्ना कवीबाब म्हणटालो,

' आतां हे जिणेवप
मदाचेच जालां
वर्यांन मुटिल्ल्या, मुकावणे नाशिल्ल्या
व्हडया भशेन '

जशें ताणे दैन-दळदिरांत जल्मून मरणाची ख्यास्त कितली खर हाची सुल्म घेतल्या. तशेच ताणे म्हा-सागरातल्या गिरेस्त पनेळांच्या दोळयांतल्यान व्हांवपी दुखां ताणें पारखिल्या. अंतराळांत पावल जमनीक लायनास्तना भोवपी सुर्य तर ताचेकडेन चक्क काळखाची भीक मागूक आयलो तेदेवेळार कवी धन्य जालो. हुड्डे फुडें काडून खोशेन आड्डलो,

' तेन्नाच्यान हांव ठणठणमारी
म्हजे जिणेक हजार आस्वासनां दीत
ह्या सुर्याक
म्हजे जिणेच्या काळखांत रिगोवन
हांव राजा कसो जियेतां '

केदी व्हडल्ली ही देख देणी कवीची बारीकसाण. आयजकाल तोखेंवपासारखी.

असोच तो दुकां वेचतां वेचतां नकळटां मोगाचे चाळे करपाकय मातूय विसरूंक ना. ताचो लुसलुशीत रोपो अनंततायेचे आश्वासन पेलीत मोगाचो कोमरी घेवन फुलता. प्रियेची वाट पळयता.

' कळना काळीज कोणाक लागून
पर्तून पर्तून लागता हुबूंक '

अशें म्हणटनाच ताचो अमुरपिको हांसो दिकां दिकां फांकत वता.

'मोगान म्हजी याद काडीत
तळमळत कोण आसत काय ?'

ओठार अुतरां खेळटनाच ताका भास जाता. ताची प्रिया ताका म्हणटा,

'फुलिल्लें रे फुलां माळोत हांवें तुकाच पुजला
आंकवारपण म्हजें निर्मळ तुकाच राखुन दवल्लां.'

हांगा कवीबाब मातुय भुल्लूसून वचना. तो तिका सांगता, म्हजी चिननां पळय आसा ती रेल्वेंतल्या प्रवासावरी थंय कांयच लिपून अुरना. तेन्ना तुज्या सपनाच्या म्हज्या चितनाचेर कूट घाल. आनी तो सगळे बंद पास तोडून प्रियेक मेळूक वता तेन्ना प्रिया ताका म्हण्टा

'असो मदींच खंय हेवटेन?'

मोग आसा थंय राग आसा हें कवीन जुस्त पारखिलां जावंक जाय.

'प्रिये शारांत हांगा चंद्र अुदेला
तुज्या गांवातय तो अुदेला न्हय?'

अेकमेकांची ओड, हांवेस, सुखां-दुकां कवीन मेकळचा मनान बेसबरीं या पुस्तकांत मोग्याच्या मुखार दवल्ल्या,

आपल्या मोगाचो निळो सुवाळो नेकत्रांच्या लिख्ख झिळमिळ टयांत अमुरपिक्या गोडसाणीत गुटलायला. आनी आपलीं बोटं पियानोचेर नाचयत गायता,

'पाल्या जोडी मनमोकळी
धर्तरी जावन घोटेर
तातूंत ब्रम्हांडा न्हिदली.'

ताची मोगिका ताज्या मोगात भुल्लूसून वता. अपुरबायेन तृप्त जावंन म्हणटा.

'वचूं वचूं गे अशीच म्हाका लक्तुबाये कुळारा
सुगुर्व्यांचे कळोवंक दीस येतली हांव दिल्ल्या घरा'

मोगाचो खेळ खेळटां आनी अमृत सूर व्हांवतानाच कवी दुख्खान बुडिल्ल्या मन झरीत तळ सोदता. तळ सोदतां सोदतां नाडींगपणा धुमशेणां काणपी ताचो गणसावैल शेणटा. जाच्या माल-वजार ताणे आपलो संसार अुबो केलो. तोच कवीचो आज पुरुषार्थ घेवन गेला. वाट सोदताना ताका वाटच घुस्पायता. ताचो जीव गोळाक लागिल्ल्यावरी जाता. मायेच्या मनशांचोच ताका आदार ना मेळिल्ल्यान सोबीत घराची बागेची अवतीकाय हळशीकावणी जाता.

तेदेवेळार ताचो भुरगो फुडाराचो खांबो ताका विचारता, तेन्ना तो तोकेसावान पुण मायेन सांगता.

' तुका हें घर सुदारपाचें नासत जाल्यार तुकाय हाजी संवंय जातली ! '

खरेंच तें. आमी जर पोन्याकच वेग मारून रावले, रूढी, परंपरा पाळीत आयले जाल्यार, आमी मुखार केन्नाच पावचेनात, वयल्यान सुस्ती जातले. आनी भलतेच आमच्या भोळ्या बुद्धीचेर, आमच्या नांवान तुस्त गायत भांडवल करून वतले. आयजूय वतात. हें खबर आसून लेगीत.

' आमी फकत तकल्यो हालयत
गुपीत जुलूम सोशीत रावले
आमची जाण व्होगडायत
' हय सायबा ' म्हणत रावले '

ही फुडल्या पिळगेक नातरां पणटुरांक बादा जावची न्हय म्हण आमकां न्हिदेतले जाग करून कवीबाबान शिटकायल्या जांवये ना, शिटकायल्याच.

फुडाराखातीर मरणाची पर्वा करीनास्तना जुलूम, अन्याय जातल्या अत्याचाराचेर तरसादीचो घाय घालून, आपल्या इष्टासयत सुपुल्लें बीं रोवपाक मुखार सरता. तांका नेट दिता. पूण हांगाय सत्य सोदतां सोदतां ताचो घुसमटमार जाला. ताची बंडखोर शांतताय खंयतरी लिपून निर्शेल्या. आनी मुंयेच्या चालीवरी मगळो जमाव फटकिन्या आशेन चिडुत मरत दुर्देवो जिणें जगतात तें तांणी अक्त्या दोळ्यांनी पळेलां.

हें अशें कित्याक घडटा? निर्शेणेचें कोडें कवीन जुस्त सोडयलां. तों म्हण्टा हांगा भांगराचे चमचे वतांत लिकलिकता आनीं मादे प्लास्टीकचे कडून वतात. खऱ्यानीच वचत थंय आज भांगराचेच चमचे संवसाराचेर शेक चलयतात. काळ्या हारश्याचें ओंवल लाव नाशिल्ल्या मनशाच्या दोळ्यांक दिसयतात. कवीच्याच शब्दांत सांगचें जाल्यार,

' हांव मनीस आकांताचो ह्यो येयात पुरावो
हांव तुमचो पातशाय तुमी म्हजे गुलाम
करात जयजयकार मारात सलाम '

झरयल्ल्या चमच्याक ताव काडूक तागी आमची हाडा पिळून काडल्ली. आमी सरबत म्हण येंडेल पीत अेकलो अेकलो म्हारोगी जावन मरत आसा, काळखांतल्यान गुपाट काळखाकडेनच वचत आसा. जाती कातींचे बोलसांक बिल्ले लावन, धर्मकोल्ली मनीस जनावरांवरी शेंण मस्तिताना दिरटी पडटात. हांगा कवीचो आंवणे सुकता. चितेन निर्शेता,

शेंवटाक मनशाचें जिणें हे निरर्थतायेचे जाका कांयच अर्थ ना. मेल्या अुपरांत ताचो गोबोर जाता. दुसरे वटेन जनावर कसायाच्या हालान मरता तेन्ना ताचे मांस खोशेन व्हरून धेकर दीत खातात. मागीर ताचे रक्त शिरंतरांनी पिळग्या पिळग्यांनी मरून लेगीत जियेता. कावळे मेळून मिसळून वागतात. ते मरणा सुवाळो लेगीत अेकासुरात कांव कांवच्या जयघोशांत मनयतात. अशी ही तुलनात्मक निर्शेवणी आंगाक रंवथो जावन खरजता.

मनीस सुवार्थाखातीर शाश्वत रूख लेगीत मुळासयत नाच करतात. या रुखाचेर जगपी सुकण्यामवण्याचो, नातरां-पण्टुरांचो फुडार फासार चडयतना कवीन खाशेल्या दोळ्यांनी पळयला.

मनशाचें भिजूडपण अंधश्रद्धेचे पास अजून मेकळ्या गोमटेक अंदून बांदल्यात हाची कवीच्या देवळांतली म्हर्तच गवाय दिता' रानीलले नाका म्हण सागून, शेळेंत खावपी मनीस आमलो तसोच आसा. पुण एक पाशाणी फातराची म्हूर्त कितलोशीच तशा युगां जाली मेकळ्या मनांत भयाविरयत भौमानान जियेता. हांगा जित्याक पोल ! मेल्ल्याक मोल !

असो आगळ्या वेगळ्या धोगां पोगाचो नियाळ करीत मुखार वता. खेदान न्हय आत्मगिन्यानान कवीबाब म्हणटा,

' जो मेरेन धर्तरेर मनीस जिवो आसतलो
थों मेरेन अश्वत्थाम्याक मग्ण ना'

मनीस आज सगळे कितें करता. तोच कर्तोमवर्तो जे देवाक लेगीत जमलेना ते आज मनीस करता. विश्वभर पातळून, भोंवपी मनीस. अंतराळांत झेप घेवपी होच मनीस. आपल्याक जाय तेंच आनी जाय तेन्नाच आपल्याच हातांनी संवसाराचो एका खिणांक धानाधिस्पट करपासारखो तांक आशिल्लो आयचो हो आधुनीक कम्प्यूटरायझ मनीस, सगळी सुखां पांयांकडेन लोळटा आस्तना अज्ञानातच वावुरता. तसोच मुखार वता. पोन्याचें नवें घडयत. नव्याक नवें जोडीत.

' अनंत काळाच्यो वेदना घेवन
निर्शेणीच्या घायाचें तेल सोदीत...'

...आनी वतना वतना छाती फुलोवन भुजां आंवळीत म्हणटा कसो,

हांव आधुनीक मनीस
हांव अश्वत्थामो '

हांवेन भायलें कव्हर पळयलें. तेन्ना माथ्यार हात घेवन चितनानी घुस्पटत हेवटेन तेवटेन नदर मारीत ' हांव मनीस अश्वत्थामो ' म्हण चलपी आनी होच हांसरे तोंडाचो ओंवल लायिल्लो... हय, व्यासपिठावयलो जाणे म्हाका कविता स्पर्धेत हेच पुस्तक इनाम म्हण भेटयलें. वाचतना भौमानेस्त कवी प्रकाश पाड-गांवकार आनी ताचो परमात्म्यातलो अमर अश्वत्थामो म्हज्या दोळ्यामुखार अुबो रावलो.

खऱ्यानींच, आधुनीक मनश्याच्या जिणेची नाडी ताणें तपासल्या. आनी तांच्या धोगां पोगांकय आकार दिवपाचो या पुस्तकांत कवीन बेस बरो यत्न केला, अेक कलीयुगांतलो अवतारी अश्वत्थामो जावन.

म्हाका दिसता, हांगच्या ल्हान मनांक थाव दिवपी हें पुस्तक-रूपी काव्य, अेक तळेच कशें !

—※—

# गोंयकारांची सुशेगाद वृत्ती

– गंगा शिसाणी
( पाणय, पंचवाडी, कुडचडें )

'गोंयकार' म्हळे की 'सुशेगाद' हें विशेशण तांच्या फाटल्यान आयलेच ! जशें कांय गोंयकार सुशेगादपणाक सोडपाक तयार नात आनी सुशेगादपण गोंयकारांक ! 'आराम हराम है' अशें म्हणपी केदे व्हडले नेहरू सुद्धा गोंयांत शाणे थारचे नात अशें दिसता. आयचे काम सदांच 'फाल्या करचे' अशें म्हणून दुसरो दीस उदेवपाची वाट पळोवप ही एक गोंयकारांची संवयच जावन गेल्या. 'मनशाचे आयुष्य म्हळचार उदयकावयलो बोमाडो' अशें म्हण्टात. हाचो अर्थ असो की आज आशिल्लो मनीस फाल्यां आसतलोच अशें ना. पूण गोंयकारांनी मात यमदेवांक सुद्धा खुटचार बसोवन, फाल्या आपूण जगतलोंच अशी यमदेवाकडल्यान खात्री करून घेतिल्ल्यावरी दिसता, अशें म्हळें तर अतिशय जावचीं ना !

गोंयांत शिकिल्ल्या बेकारांचो आंकडो बरोच वाडला. हें जर किदयाक लागून आसत तर फकत गोंयकाराच्या सुशेगादपणा-खातीर. चार उतरां शिकले म्हण्टकच उपाशी पडल्यार वा जीव गेल्यार लेगीत शेतांत वच्चे नात वा नांगर हातांत घेवचे नात, असो तांचो निश्चय आसता. ते फकत ऑफिसरांची कामा सोदतात. तांका शिकोवप्याचे सुद्धा काम मेळ्ळचार नाका. म्हणजेच ते झाडां रोयनासतना फळां खावपाक सोदतात. हाचो परीणाम इतलोच जाता भायले सगळे लोक येवन, कसलीय कामां करून पैसो मेळयतात पूण गोंयकार मात खावपाक तूप नासल्यार सुद्धा मिशाक तूप लावन भोंवतात. तांच्या पोटांत अन्नाचो कण नाजाल्यार चलता पूण सूट-बूट घालून भोंवले म्हण्टकच राजा जाले अशें तांका दिसता.

गोंयांत जमीन तर इतली आसा की ती सगळी पिकावळीक हाडिल्ली जाल्यार आज गोंय ही एक भांगराभूंय जावपाची. परशू-रामाची भूंय म्हूणून तर गोंयांक लोक वळखतातच. गोंयांत देवादयेन उदकाचो तोटो ना. आनी तशें पळेल्यार दुष्काळ बी गोंयांत चुकूनच पडतात. गोंयचे लोकय बी सगळे शेतकारच. म्हण्टकच तांका रोवपाखावपाची बरीच खबर आसा. खबरनाशिल्लो मनीस गोंयांत वखदाक सुद्धा सोदल्यार मेळचो ना. पूण या सगळ्याची जाणवि-काय गोंयकारांक केन्ना जातली देव जाणा.

जपाना सारक्या देशाचेर बॉम घालून अमेरीकेन हिरोशीमा आनी नागासाकी ह्या दोन मुखेल शाराचो सामको विध्वंस केल्लो. पूण जपानी लोकांनी प्रयत्नाची पराकाष्ठा करून आपल्या देशाचे नांव परत वयर काडपांत यश मेळयलें. 'यत्नान रेवेचे कण रगड-ल्यार तांतल्यांन सुद्धा तेल गळटा अशें म्हण्टात.' तांचो आदर्श गोंय-कारांनी आपल्या मुखार दवरपाक जाय. ताणी शून्यातल्यांन स्वर्ग मेळयलो जाल्यार गोंयकाराच्यांनी सगळे तांच्या पायांकडेन लोळटा आसतना स्वर्ग मेळोवपाक जायना ?

'क्षण त्यागे कुतो विद्या' अशें एका संस्कृत सुभाषितांत विद्यार्थ्यांक उद्देशून म्हळा. तशेंच एक क्षण सुद्धा वायां घालू नाकात अशें नारदमुनी सांगतात. पूण गोंयकाराक एक क्षण खंयचो एक दीस सुद्धा फुकट गेलो जाल्यार तांचें कांयच सुतेर-सुतक ना ! हाचें एक बरें उदाहरण म्हळचार सरकारी नोकर. कसलेंय काम तांचेकडेन व्हेले जाल्यार तें करपाक ते अशे त्रास करतात की त्या मनशाक दिसता खंयचो हांव या भानगडीक पडलो. चार आण्याचें काम कर-पाक निव्वळ चार-चार म्हयने नाजाल्यार चार-चार वर्सां पुसून लागतात. कायद्यांच्या बाबतींतय हेंच घडटा. एके एके केशीचो निकाल लागपाक मात आनी आठ वर्सांसून लागतात.

गोंयकारांच्या सुशेगाद वृत्तीचो फायदो उठोवपाक पुर्तुगेजांनी पासून फाटी-फुडें पळेलें ना. जल्याचीं खंय मिशी भितर गेल्यार पुरो तो रोखडोच सगलो भीतर वता. तेंच या पुर्तुगेजांनी केलें आनी तांका हांगाच्यान भायर सरपाक पुराय साडेचार 'सेन्च्यूरी' लागल्यो. अख्ख्या भारत देशाचेर राज्य करपी इंग्लीश लोक देडशें वर्सांनी भायर सरले. पूण पुर्तुगीज मात आयते मेळील्ले गोंय फुकट सोडपाक तयार नाशिल्ले. आनी सुशेगाद गोंयकार जिवाक त्रास दिवन गुलामीतल्यान मुक्त जावपाक तयार नाशिल्लें. तांका जागोव-पाक राम मनोहर लोहीयाक गोंयांत धांवून येवचें पडले. नाजाल्यार गोंयकारांचेर आज सुद्धा पुर्तुगेजांच्या हातांतले बावलें जावन ते नाचयतात तशें नाचत रावपाची पाळी येतली आसली.

एकदा एक शेतकार खंय एका झाडापोंदां न्हिदील्लो एका विदेशी मनशाक दिश्टी पडलो. ताणे शेतकाराक विचाल्लें– 'आरे असो वेळ किदयाक वगडायता. ही एदी व्हडली जमीन पिकावळीक हाड. आनी खूब धान्य पिकय.' हाचेर शेतकारान म्हळें– 'ताचो उपयोग कितें ?' त्या मनशान ताका सांगलें– 'हे धान्य वीक, पैशे मेळय. मागीर त्या पैशांनी नव्या-नव्या यंत्राचो आनी तंत्राचो उपयोग करून चड-चड पीक काड. ते विकून खूब पैशे मेळय, आनी चड जमीन विकती घे. मागीर बरे एक घर बांद. तुज्या भुरग्यांक बरें शिकय. ते फुडें पैशे जोडून हाडतले आनी तुका सुशेगाद सुखान जियेवंक मेळटलें.' हें आयकून त्या शेतकारान एकदम म्हळें– 'ह्यो इतल्योय उठाठेवी करच्यापेक्षा हांव आजच सुशेगाद न्हीद काडटा, हांतून कितें वायट आसा ?' गोंयकारय बी या शेतकाराभशेनच येवजितात आनी त्याच खातीर ते फाटी उरल्यात.

न्हीद गोंयकाराची सामकी आवडती. तांका जर पोटाचो प्रस्न नाशिल्लो जाल्यार ते एखादे जन्मभरसुद्धा खोसयेन न्हिदूनच रावतले आशिल्ले, पूण किदें करतले बाबडे, देवान हें पोट दिल्यान तांका सकाळचे आठांक तरी उठचेंच पडटा. कारण आठा उपरांत गोंयच्या चडश्या कारभारांक सुरवात जाता. नाजाल्यार उठचें पडटा म्हूणून सुर्याक पासून धाकून दवरपाक मेळिल्लो जाल्यार दवरपाक ते फाटी-फुडें पळोवचे नाशिल्ले ! गोंयच्यो बशी तर

लगायोच. सगळे सुशेगाद आसतकच त्यो म्हूणून कशो बेगीन ल्यो. तांका मिनटा मिनटाक एक स्टॉप घेवचो पडटा; भरीक गून गोंयचे बारीक, दोन गाडयो सुटनात तसले रस्ते आसातच. शी गर्दी तर आसता ती विचारू नाका. गोंयचे लोक आनी कारय बी सुशेगादच. म्हण्टकूच हाचेर आनी दुसरो कोण लक्ष लो ?

गोंयच्या पर्यावरणाच्या बाबतीतय हेंच घडटा. गोंयकार झाडां यतात पूण हांगाय तांचे सुशेगादपण आड येता आनी ते त्या डांक वंय करीनात. 'सुशेगाद करची' अशे म्हुणून वोगी रावतात. टेन गोरवां बोकडचो ती सगळी झाडां फस्त करतात. 'व्हेस्टर्न टस प्रकरण तर गोंयांत बरेच दीस जाले गाजता. 'वृक्षवल्ली मकां सोयरी' अश संत तुकारामान म्हळां. पूण हें गोंयकार सरतात. ते झाडां कापत आसात. रोवपाची तांका खबर ना. न लागली म्हण्टकच बांय खणप हो तांचो धर्म. जोमेरेन गोंयांत वस येवपाचो बंद जायना, जोमेरेन दुष्काळ पडना तोमेरेन तांका डांचे म्हत्व कळपाक ना.

गोंयकार अशेच सुशेगाद रावले जाल्यार निसर्गाच्या सुंदर- ये खातीर प्रसिद्ध आशिल्ले गोंय वाळवंट जावपाक वेळ लागचो . पर्यटकांकडल्यान मेळपी उत्पन्नाचेर तर गोंय बरेच अवलंबून सता. आता तर गोंयांक घटक राज्याचो दर्जो मेळ्ळा. म्हण्टकच गोंयची उदरगत करपाचे काम पुराय गोंयकारांच्या हातांत आयलां. मेळील्ल्या संधीचो बरे तरेन काय वायट तरेन उपयोग करप हे गोंयकारांच्या हातांत आसा. गोंय एक नंदनवन करप कांय ताका वाळवंटाचे रूप दिवप हाचो विचार गोंयकाराक करचो पडटलो.

गोंयकाराचे हे सुशेगादपण इतल्या थराचेर पावलां की गोंयांत एक व्हडलो गायक, वादक वा खेळगडी आसा जाल्यार ताका ताची कला वाडोवपाक जाय त्यो सुविधा मेळपाक कठीण जाता. त्यो सुविधा तयार जाता म्हण्टासर तो कलाकार म्हातारो जावपाचो. हाका लागून या कलाकारांक आपली मायभूंय सोडून भायर वचचे पडटा. ते दुसरेकडेन वतकच गोंयकार उरनात आनी गोंयचे नांव वयर सरपाचे ते थंयच उरता. हाची उदाहरणा लता मंगेशकर, जितेंद्र अभिषेकी, अजीत कडकडे, वर्षा उसगांवकर अशी कितली तरी आसात.

अशी ही सुशेगादपणाची परंपरा गोंयांत बऱ्याच आदल्या काळापासून चलत आयिल्ली आसा. पयलीचेय लोक हेच करताले. सुशेगाद न्हिदप, सुशेगाद उठप, सुशेगाद जेवपखावप, अशेच तांचे कारभार चलत आयिल्ले. हे सगळे आयच्या नव्या पिळगेन सोडपाक जाय. गोंयाभायल्या लोकांचे बरे गूण आपणावपाक जाय. भायले सगले लोक कशे वेळापत्रकाप्रमाण वागतात. ते थरील्ल्या वेळार थरील्लो कामां करतात. कारण तांका 'वेळ म्हळचार भांगर' आनी 'वेळार एक टांको घालो जाल्यार णव टाके घालपाचे वांचतात' ह्यां सारक्या इंग्लीश म्हणीचो सामको अर्थ कळील्लो आसा. पूण गोंयच्या खंयच्याय कार्यक्रमाचे बाबतीत सुद्धा हेंच घडटा. थरील्ल्या वेळाचेर कार्यक्रम सुरू जायत जाल्यार सोपूत ! केन्ना मुखेल सोयऱ्या खातीर वेळ तर केन्ना बाकीचीं तयारी जावना म्हूणून वेळ.

जेन्ना गोयकारांक वेळाचे म्हत्व समजतले आनी ते सगळे मुंयो वा म्होंवांमुनांवशेन एक क्षण पासून व्होगडाय नामतांना एक- ठांय जावन नेटान काम करतले तेन्नाच गोंयची खऱ्या अर्थान उदरगत जातली. गोंय एक नंदनवन जावपाक वेळ लागचो ना. आनी सगळ्या गोंयकारांच्या तोंडातल्यान आपसूकच उतरां येतलीं, 'श्रम एव जयते'! पूण हें सगळें घडोवन हाडप आयच्या तरण्या भुरग्यांचे काम आसा. 'ओल्ड इज गोल्ड' अशे म्हण्टात. तेन्ना जाण्टेल्यानीय आपले काम विसरूंक फावना ताणी भुरग्यांक हें सगळे पटोवन दिवपाचे काम करूंकच जाय; आनी 'सुशेगाद' हे गोंयकारांच्या फाटल्या विशेशणाक खंयच्या खंय विरोवन उडोवंक जाय. तो भांगराचो दीस केन्ना येत कांय ?

-◼-

# गोंयचे बेकारेचो प्रश्न आनी उपाय

–सिद्धार्थं का. सावयकार
तामसुली, माशेल )

बेकारी ! आयज फक्त भारतामुखारुच न्हय तर सगळ्या जगामुखार आ करुन रावलेलो एक भयानक प्रश्न. आयज ज्या वेगान आमी २१ व्या शतकाकडे प्रवास करता. त्याच वेगान हो बेकारेचो प्रश्न आमचो पाठलाग करता. विज्ञान आनी तंत्रज्ञान या वाठारांत जे देश फुडें बता तेच देशुय हो बेकारेचो प्रश्न सोडवपाचो यत्न करना. कसलेंय कटकटीचें प्रश्न मनीस आधूनिक यंत्रांची मदत घेवन सोडयता. पूण या बेकारीच्या प्रश्नाक कांय खंचेंच यंत्र वा कितलोय हुशार मनीस जाप सोदू शकना.

आमचें गोंय म्हळ्यार भाग्नाचो स्वर्ग. स्वर्गीय निसर्ग, पांचवी पांचवी शेतां, माडांची भाटां, मायेस्त आनी मोगाळ मनशांचे हें गोंय स्वर्ग म्हळ्यार कोणाकूच अजाप जांवचेना. ह्या गरीब भारत देशांत जी थोडी स्वावलंबी राज्यां आसा तांतूत गोंयचो नंबर बरोच फुडें लागता. गोंयांत आशिल्ले मादे शेतकार वा उच्च जाग्यांचेर आशिल्लीं मनशां एकमेकांमदी भेदभाव मानीनात. पूण तरी हो बेकारीचो प्रश्न गोंयकारांक सतायनाच. एका वेळार भांगराची आशिल्ली ही गोंयची सुवर्णभूंय आयज बेकार मजूर वर्गान भरपूंक लागल्या.

गोंयांत सगळ्या तरेच्या वाठारांनी जाल्लें आधूनिकीकरण हें एक गोंयच्या बेकारीचे कारण जांव येता. पूण ताका उपाय ना. बदलत्या जगावांगडा हें ल्हानशें गोंय बदलता हातूंत कांयच अजाप ना. आमचें गोंयूय सगळ्यांवांगडा २१ व्या शतकाकडें धांवपाक लागला. व्हड-व्हड कारखान्यांनी आयिल्या आधूनिक यंत्रांक लागून बेकारी नेटान पसरत रावल्या. शंबर मनशांचे काम जर एका मशीनान केल्यार फॅक्टरीचो मालक किदें तें यंत्र सोडून, शंभर मजुरांक कामार घेतलो ? तें यंत्र फक्त शंभरुच नी तर हजारांनी मनशांचे दोन वेळचे जेवण खाता आनी तांचो संसार उगडयार हाडपाचें वायट काम करता. आधुनिकीकरणान जाल्ल्या ह्या बेकारेचेर एकुच उपाय म्हळ्यार लोकसंख्येचेर ताबो मेळोवप. या वाडत्या लोकसंख्येक बांध घालपाक थोडेतरी यत्न जावपाकूच जाय. ‘ हम दो हमारे दो ’ या पत्रकांनी कांयच जावपाचे ना तर सामाजिक स्तराचेर थोडेतरी यत्न जावपाक जाय. पूण हो आधुनिकीकरणान तयार जाल्लो बेकारीचो प्रश्न तितलो कठीण ना जितलो मुंबय सारख्या शारांनी आसा.

गोंयकारांच्या बेकाराचे आनी एक मुखेल कारण म्हळ्यार चडश्या महत्वाच्या कामांचेर गोंयाभायल्या लोकांनी ( Non-Goans) मेळयलो ताबो. आयज व्हडल्या व्हडल्या मुखेल जाग्यांचेर चडशे गोंयांभायले अधिकारी दिसता आठवी नववी ह्यो यत्ता त्यांच्या राज्यांत करुन शालान्त परिक्षेक गोंयांत येवन आनी Board Rankes हो छाप मेळोवप अशी त्यांची चाल आसता. आनी ही चाल सफल जाता कारण गोंयकाराक कश्ट करपाची संवंय ना. बारावेच्या परिक्षेक बरे मार्कस घेवन मेडिकल इंजिनीयरींग या वाठारांनी हे लोक प्रवेश मेळयता जर वास्तव्याची अट दोन-तीन वर्सांनी कमी जाता जाल्यार ते फटींग सर्टीफिकेट्स दिवन तोय प्रश्न सोडयता म्हणूनूच ही वास्तव्य अट धा वर्सां जावपाक जाय जे लोक ही अट पांचूच वर्सां उरची असो यत्न करता तांका सरळ सांगपाचे, पयली तुमच्या राज्यांतली वास्तव्य पांच वर्सांचेर हाडात जी धा, पधरा वर्सां आसा आनी मागीर हांगा प्रयत्न करा. हो एक गोंयकाराक उच्च शिक्षण आनी मजूरी मेळोवन दिवपाक बरो उपाय आसा. सरकारी मजुरीची कोणुय माहिती करुन दिवपाक तयार ना आनी जे वयले जागे आसात ते मंत्र्यांच्या इश्टांक आनी सोयऱ्यांक फावो जाता. सरकारी रोजगाराची खबर सगळ्या लोकांक मेळपाक जाय अशे तरेन लोक हाचो बरो फायदो घेवन हो बेकारीचो प्रश्न गिळून उडयतले.

आमी गोंयकार पयलींच्यानुच सुसेगाद आनी हाचो वायट फायदो भायल्या लोकांनी करून घेतला. पूण जर आमकां यां गांवत्या जगावांगडा फुडें वचपाक जाय जाल्यार आमी ही सुसेगाद-पणाची कात भायर काडपाक जाय. तांतून भर म्हळयार आमची ही fashionable आनी हीण कामां करूंक लजपी तरनाटयांची पिळगी. शेतांत काम करूंक लजपी हे तरनाटे जीन्स घालून पश्चि-मात्य संगीताचेर नाचपाक लजनात. आपल्याच आवयक म्हळ्यार मातयेक हात लावपाक विटपी या भुरग्यांचो पिक्चरां पळोंवप पिक्नीकस करप असल्या कामांनी पयलो नंबर आवयबापायचे पैशे वगडायताना ते पैशे मेळोवपाक कितले कष्ट लागतां हाची तांका जाणीव ना. आनी मागीर धड शिक्षण ना धड काम ना अशे अवस्थेन तांचो बेकार म्हणून शेवट जाता. आपूण किदें केल्यार किदें जातलें आशिल्लें हाचो उगडास तांका बऱ्याच उसरां जाता. जेन्ना वेळ खुबूच फुडें गेल्लो आसता. आनी तांचो या देशांतल्या लांखांनी बेकारांनी एक नंबर लागता. अशा या तरनाटयां पिळगेन आपलो सगळो आळस सोडून नव्या उत्साहान आमच्या गोंयच्या उन्नतेखातीर खूब यत्न करपाक जाय.

आमच्या गोंयची ही निसर्गाच्या भांगरान भरील्ली भूंय आज बेकारांनी भरपाक लागल्या. बेकार, बेकारी असले शब्द आमी केन्नाच आयकूं नाशिल्ले तें आता आमच्या दोळयांमुखार घडताना दिसता. याखातीर गोंयकारांनी खूब प्रयत्न करून फुडें सरपाचो आनी बेकारीच्या राकेसाक पैस धांवडावपाचो प्रयत्न करपाक जाय. गोंयकारांक उपदेशांची उतरां म्हळयार.

Start from where you are.
with what you have.
make something of it.
and never be satisfied.

जे स्थितीन तुमी आसा. जशे आसा. थंयच्यानुच सुरुवात करा. तुमचेकडें जें आसा ताचे किदेंतरी बरें करा आनी केन्नाच समाधानी जांव नाका.

चला तर गोंयकारांनो गोंयचो हो बेकारेचो भस्मासुर पैस करपाचो आमी संकल्प करूंया.

-✻-

# गोंयांतलो भ्रष्टाराचो भस्मासूर

–उज्वला नायक
(परवरी)

दोन तीन महिन्याफाटी देशांत एका गजालीन खळबळ उडोल्ली. हय, ती गजाल म्हणजे भ्रष्टाचाराची. देशांतले व्हड-व्हडले लोक त्या भ्रष्टाचाराच्या प्रकरणान आशिल्ले अशी अफवा सगळ्याक चलताली. जंय-थंय फक्त भ्रष्टाचाराविशी आयकूंक येताले. या भ्रष्टाचारान लोकांक एक बरो विशय गजालीक दिल्लो. सगळे लोक या गजालीक मीठ मसालो लावन चाबडायान आसताना म्हजेय मन याच विशयाच्या विशयांत खोल घुस्पल्ले.

म्हजे मन ह्यो भ्रष्टाचाराच्या गजाली आयकून सुन्न जातालें. न्हय, आता देखून म्हज्या मनात ताचेच विचार येतात. हांव जेन्ना जेन्ना एकटें आसता तेन्ना म्हजे मन फक्त ताचांच विचार करता. म्हज्या मनांत कांय प्रस्न घर करून बसल्या : हांव सदाच चितीत आसता की ही जी भ्रष्टाचाराची कीड आमच्या देशाक लागल्या ती आमकां फुडे वचूंक दितली? आमचो देश भ्रष्टाचाराक घेवन फुडे सरूंक शकतलो? आनी खूप विचार केल्या उपरांत म्हजे मन म्हाका सांगता की ना ही भ्रष्टाचाराची जी कीड आमच्या समाजाक लागल्या ती आमकां केन्नाच फुडे सरूंक दिवची ना. ती आमकां सदांच फाटी ओडटली आनी म्हूण आमचो सगळ्यांचो पयलो धर्म म्हणजे या भ्रष्टाचाराच्या कीडेंक नश्ट करपाचो.

ही भ्रष्टाचाराची कीड आमच्या गोंयांत देखून आपले घर करून आसां. आमचें गोंय म्हणजे एक दुसरे नंदनवनूच आसा आनी या आमच्या गोंयांक ही भ्रष्टाचाराची कीड पोखरूंक सोदता पूण आमी मनांत थारावोंक जाय की या किडेक आमी मुळासावन नष्ट करतले तरूच या किडेचेर आमी जैत मेळोवंक शकतले.

भ्रष्टाचार वेगवेगळ्या रूपान आमच्या गोंयांत देखून वावूरता आनी जसजसो तो एकेकाचेर आपलो हात दवरत वता तसतसो तो मनीस या भ्रष्टाचाराच्या उज्यान भस्म जायत वता आनी त्यावेळार मनीस आपलो सांभाळ करूच शकना. भ्रष्टाचार म्हणजे आजच्या काळांतलो ऐक दुसरो भस्मासूरच जावन आसा आनी कोणीतरी मोहीनीचे रूप घेवन या भस्मासूराक ल्हासोवन उडोवंक जाय.

या भ्रष्टाचारान कोणाक सोडले ना. तो वेगवेगळ्या रूपान सगळ्यांक सतयत आसा पूण तो कोणाक दिश्टी मात पडना. फरक इतलोच की ताका पळोवन देखून आमी नदरेआड करता.

हो भ्रष्टाचाराचो प्रस्न कांय वर्सांकुच आमकां सतायता. ह्या पयली आमचें गोंय भ्रष्टाचारापासून खूप पयस आशिल्ले. पयली जेन्ना बापूंसारखे महान नेते देशांत वावूरताले तेन्ना भ्रष्टाचार म्हणजे किदे तें कोणाकच खबर नाशिल्लें. तेन्ना म्हाका दिसतां आमका स्वतंत्रताय मेळची म्हूण लडतल्या स्वातंत्रसैनिकांनी केन्नाच चिंतलेना आसतले की ज्या देशाची बुनयाद तांच्यानी अपल्या रक्तान आनी हातांन बांधल्ल्या त्या तांच्या देशांत ही भ्रष्टाचाराची कीड आपले जाळे विणटली आनी लोकांचे रगत पियेतली. आमचें हें व्हडले दुर्भाग्य की आमी तांच्या काळात जन्माक येनासतना आतां या भ्रष्टाचाराच्या काळात आयले.

आज तशे पळोवक गेल्यार भ्रष्टाचार वयरसून सकयल देखून चलता. म्हजो एक वांगाडी जे दिसा म्हाका बाजारांत मेळ्ळो. हांवे ताका म्हळें, आरे बाबा, खंयरें तू आजकाल दिश्टीच सो पडना तूं तर या दिसांनी पुनवेचो चंद्रच जालो. तर ताणे म्हका म्हळे, आगो तुका किदे सांगू? आजकाल म्हाका मुद्दाम अशे करचें पडता. म्हाका भोवपाक तर अजीबात वेळ मेळना. तुका खबर आसतलीच. की हांवेंन एक नवे घर बांधलां पुण ज्या घरांन आजून उदकूच येवक ना. देखून म्हाका उदकाच्या कनेक्शनाक लागोन उदकाच्या ऑफीसान वचचे पडता तुका एक सांगू थंय खेपो घालून घालून म्हजे एक जोते झरले, तरी पुण म्हजें काम मात जाले ना. हांव थंय अश्यो फांवटी घालता तें पळोवन एकल्यान म्हाका येकदाचे सांगले की तुजे अश्यो फावटी घालून काम जावचे ना. ताका लागून तुका तुजे फायलीर कांय वजन दवरचे पडटलें. आनी तेन्नाच तुजे काम जातलें. पयली म्हज्या मतीन वजन म्हणजे किदें ते आयलें ना. शेवटाक ताणेच सांगलें की वजन म्हणजे काय पैशे तुका दिवचे पडतले. आनी अजाप म्हणजे थोडे रुपया तांका दिनाफुडे म्हजे उदकाचे काम जालें. पळयलो पेशांचो कमाल. तर सांगपाचे म्हणजे असो हो भ्रष्टाचाराचो भस्मासूर सरकारी ऑफीसानूच चड आसता.

या भ्रष्टाचाराच्या भस्मासुरान ताचो हात फक्त सरकारी ऑफीसाचेरच न्हंय तर विद्यादानासारखे पवित्र कार्याचेर देखून

वरला निद्यादानासारखे जे पुण्य काम कार्य आसां तातूंन सुद्धा भ्रष्टाचार चल्लाच. आज विद्या शिकोवन घेवंक लोक शाळा कॉलेजान वता. विद्या शिकोन जावकच कांय परीक्षा आसतात आनी त्या परीक्षानी पास जावपाखातीर कांय गिरेस्त लोक आपल्या भुरग्यांक लागोन केन्ना केन्ना पैशे दिवन तांका पास करून घेता हाका कारण म्हणजे भुरगे पास जातकच तांका एक सर्टीफीकेट मेळटा आनी त्या प्रमाणपत्राचेरच तांचे जिवित आसता. हे ताचे काम कांय रुपया दिल्याउपरांत आपसूंकच जाता.

आज सगळयांक आमकां भ्रष्टाचारच दिश्टी पडता. सरकारी ऑफीसात, शिक्षणसंस्थेनच न्हय तर सगळयाकच भ्रष्टाचार दिसा उजवाडाचो देखून चलता. खरे म्हणजे प्रत्येक मनशाक ह्यो भ्रष्टाचाराचो धडो ल्हानपणापासूनच मेळटा. सगळया भुरग्यांक तांच्या घरच्यानच ताची वळख जाता. आतां तुमच्या मनात प्रश्न उबो रावला आसतलो की, भुरग्याक ल्हानपणांपासूनच हांचो धडो कसो मेळटां ? सगळे भुरगे तांका घडयता तशेच घडता. जाण्टी मनशां कितलेशे वेळां गजाली करता तेन्ना तो भुरगो तांच्या लागीच आसता केन्ना केन्ना जाणट्याल्यो गजाल्यों दुसऱ्यांचो निंदा करपाची आसता तेन्ना ते भुरगे आयकता आनी जाण्टयांक भंय दिसता की ते कायचे-काय वचोन ज्या मनशाक सारीत म्हूण आनी त्या भुरग्यांक वगी करचेखातीर तांका चॉकलेट वो काय पैशे दीवन वगी करता. अशे भशेन त्या भुरग्याक लांचच दिलोशी जाता आनी त्या भुरग्यांक मागीर तांचीच गोडी लागोवन तो एक व्हड भ्रष्टाचारी जावपाची शक्यता आसता.

ह्या भ्रष्टाचाराच्या भस्मासूराक कोणेन तरी भस्म करूंक जाय आनी हे बरे तोखणायेचे काम आमच्या तरणाटयांनी संघटीत जावन करूक जाय. पयले म्हणजे आमच्या तरणाटयांनी एकीकडे येवन एक अशी संस्था उगडची, जिचे काम फक्त भ्रष्टाचार ना करप आसूंक जाय. अशे करपाखातीर तरणाटयांनीच न्हंय तर सगळयांनीच जे जे कोण लांच घेनांत तांका सोदून काडचे आनी तांका कायद्याच्या हातांन दिवचे. हांका लागून सरकारान एक असो कायदो काडूंक जांय जेणेंकरून जे लोक भ्रष्टाचार करनात तांका एकदम कठीण सजा जातली, अशे केल्यान ती शिक्षा पळोवन कोणूच भ्रष्टाचार करपाक फुडें सरचे ना आनी भ्रष्टाचाराच्या राकेसाचो शेवट जातलो पूण भ्रष्टाचाराच्या राकेसाक मारपाखातीर सरकारा बरोबर सामान्य नागरीकांनी देखून सहकार्य दीवंक जाय. तांणी ज लोक लांच घेतना वो दितना दिसता तांका धरून दिवक जाय. तरूच भ्रष्टाचाराचो राकेस सोपतलो.

आमच्या तरनाटयांनी मोहीनीचे रूप घेवन भ्रष्टाचार नांवाच्या भस्मासूराचो, ताचोच हांत ताच्याच तकलेर दवरून, तांचे भस्म करूंक जाय. चला तर सांगात्यानो, या कामाक आतांच लागोया आनी कमीतकमी गोंयांतल्यातरी भ्रष्टाचाराच्या भस्मासूराचे भस्म करूयां.

-●-

# निकूबाब कारापूरकार

– राजेश सदानंद कारापूरकार
(दिवचल)

ह्या आमच्या माणकुल्या गोंयांत भारतदेशाक वेगवेगळ्या वाठारांनी जायते नामनेचे मनीस दिल्यात. कांयजाण खेळांत, तर कांय राजकारणात, तर काय जाण सुटके झुजांत.

पूण गोंयच्या कांय सुटके झुजाऱ्यांक भारताच्या चळवळीन भाग घेवपाक मेळ्ळो ना; कारण त्या काळार भारतदेशार राज्य करपी आसले इंग्रेज आनीक गोंयार राज्य करनालें पुर्तुगेज.

१९४७ सालांत भारत स्वतंत्र जालो; पुणून गोंय मात्र पुर्तुगेजांच्या हाताखाल अजून उरिल्ले.

आनीक अश्या ह्या वेळार गोंयाक गरज आसली ती निकुबाबा-सारख्या स्वातंत्रसैनिकाची. तांचे संपूर्ण नांव निळकंठ मंगेश कारापूरकार.

निकुबाबाचो जल्म मडगांवां बोड्डुचां वाठारांत जाल्लो. ते थंय शिकत आसनाना तांच्या मनांत पुर्तुगेजाविशी तिडक आशिल्ली जशे–जशे ते व्हडले, जावंक लागले तसतशो तांच्यो पुर्तुगेजां विशीच्यो भावना आनिकूय खर जावपाक लागल्यो फुडें ते हळुहळू स्वातंत्र्याच्यो चळवळीनी भाग घेवपाक लागले. हें करीत आसतांना तांका खूब वेळा बंदखणीची हवा खावची पडली. बंदखणीत आसताना तांच्यो चळवळी चालूच आसल्यो. ह्या कारणाखातीर तांका गोंयांतसून आंगोला धाडलो.

थंय तांच्या वागणुकेन पुर्तुगेज जेलरसुद्धा तांचे मित्र जाल्ले. बंदखणीत आसले तरी तांची शिकपाची आनी शिकोवपाची आवड मात लेगीत कमी जाली ना. ते थंयबी पुर्तुगेज भुरग्यांक शिकयताले. तांका कोंकणीचे तशेच इंग्लेशीचे भोव बरे गिन्यान आसलें.

१९६१ सालात गोंयांक स्वातंत्र मेळ्ळें त्या उपरात ते दिवचले गांवाभायर आपल्या 'सर्वोदय' आश्रमांत रावपाक लागले. थंय तांच्यानी हर-एक तरेची भाजी पालो लायलो. येदचा व्हडल्या जाग्यार ते एकटे रावताले. तांचो दीस सकाळी ५-३० सुरु जातालो. ते सकाळीसावन आपल्या जाग्यार वावुरताले. ऐंशी पिरायेचेर सुद्धा एका तरनाटयांक लजोवपासारकें काम करताले.

स्वातंत्र मेळचा उपरांत आपले दुसरें काम निकूबाबांनी हातांत घेतले आनी ते कोंकणीच्या उदरगतीक वावूरपाक लागले. ते कोंकणी वाचताले आनी कोंकणी बद्दलची आपली तत्वायबी दिसाळ्यांनी बरयताले.आनीक तांची व्हडली तांखणाय म्हळयार ते कोंकणीचेर केदचाय व्हडल्या मनशा बरोबर भासाभास करपाक फाटी सर नासले.

तांच्यानी दिवचले कोंकणी केंद्र सूरु केल्ले. आनीक दिवचल-कारांक कोंकणीची गोडी लागची म्हणून ते दिवचलच्या नव्यां सोमारादिसा आपल्या कोंकणो केंद्रांत कोंकणी पुस्तकाचे प्रदर्शन भरयताले. निकुबाबान ह्या केंद्रान एक लहानशे कोंकणी वाचनालय काडिल्लें पुणून फुडे कांय अडचणी खातीर तांका ते बंद करचे पडलें.

निकुबाब आज आमच्यांत नात पुणून तांची एक व्हडली इत्सा आमी गोंयकरांनी तांच्या मरणा उपरांत पुरी केल्या, ती म्हळयार कोंकणी भाशेक मेळील्लो राजभाशेचो दर्जो. निकुबाब आज आशिल्ले जाल्यार तांका केदी व्हड खोस भोगपाची.

ते गांधीवादी आसले. ताणी अहिंसेचो मार्ग स्वखुशीन आपणा-यल्लो. तांचे भरगच्च अशे व्यक्तीमत्व आशिल्ले. धवे पुडवे, धवे जेकेट आनी माथ्यार धवीच्च गांधीटोपी. धवेफुल्ल लांबशे खाड, गळयांत भगवो बटवो आणि हातांत एक सत्री.

निकूबाबानी समाज सेवायबी केल्या ते बहुजन समाजाक एक मोटो धीर सो जावन आसले. तांका सगळे बाप्पाच म्हणून दिवचले वोळखताले. बाप्पा गरजू–आनीक गरीब लोकांक खातीर कोर्ट–कचे-ऱ्यांनी फावटी मारताले.

बाप्पाक गोंयच्या स्वातंत्र्याफुडे आनीक गोंयांक मेळील्या स्वातंत्र्या उपरांत गोंयच्या उदरगतीफुडे आपल्या जिवीताचो विचार करपाक वेळूच मेळ्ळो ना: म्हणून कांय किदें ताणी आपल्या आयुश्यात लग्नच केले ना ?

येदचा व्हडल्या स्वातंत्र्य सैनिकाक आपल्या निमाण्या काळांत आपल्या जिवीता बरोबर झगडचे पडले. कांय म्हयने पयली तांका एका बसेन उडयलो आनी तेन्ना सावन तांची शुद्ध सामकीच गेली.

निकुबाब आज आमच्यान नात पुणुन ताणी केल्लो गोंयां खातीरचो वावर इतक्या बेगीन गोंयकार विसरत अशें म्हाकां तरी दिसना.

निकुबाबाच्या मरणा पयली तांचो गोंय सरकारान श्रीफळ आनी शाल दिवन सत्कार केल्लो. त्या उपरांत तांचो भारतसर-कारानूयबी तांचो दिल्लीक भौमान केल्लो. पुणुन ते थंय हज र रावपाक शकले ना. तांचे यादीक आमचें नमन.



# समाज आनी आमचो संयम

– एन्. सुहास.

आज संवसारभर जी अशांती पातळघा, दंगे, जळोवप, लूटालूट, मारामारयो, चोरयो, खून, बलात्कार जातात. ताचे मूळ जावन आसा ती करणी आदारपी प्रत्येक मनशाचें स्वतःचें मन. आज खूब जाणांक कसल्याय अडी–अडचणीच्या वेळार स्वतः निर्णय घेवपाची तांक ना जाल्या तांच्या मनांक फाव तसो विचार करपाची उर्बा ना. अडाणीच न्हंय तर सुशिक्षीत लेगीत आज असो सारासार विचार करिनात. जायते फावट ते विचार करतात फकत सध्याचे परिस्थितीचो. फुडें येवपी भविष्यकाळाचेर ते मातय नदर मारीनात. हातून भर म्हणून सर्व–सामान्यांचीं मनां दुषित करपाक आज सिनेमाचोय वांटो बरोच आसा अशें म्हटल्यार अतिताय जांवची ना! जण एकलो स्वतः संयम पाळून स्वतःचे मन कशें सांबाळप हेंच विसरता, जाका लागून समाजांतली सभ्यता, धर्मनिती असल्या गुणांक ते पैसावतात. खब जाण आज ना–ना त्या वायट व्यसनां कडेन वोट्टात; आनी स्वतः-चीच जीण पेडचार करून घेतात हाची सरासरी आज तरनाटयांमदी चड सांपडटा.

आयच्या समाजांतल्या विकारी आनी वायटाविशींच उलोवपाचें जाल्यार ही अवस्था उदरगतीच्या आड आसा, म्हणून देशाच्या बऱ्या फुडारा खातीर आयची ही परिस्थिती सुधारपाक जाय. आनीं हें काम चड करून तरण्या पिळगेन हाताळपाक जाय. कारण जशो वायट गजाली तरनाटयावरवीं पातळटात तशोच त्यो तांच्या मुखेल पणानच चड बेगीन पैस जावपाक शकतात. आजमेरेन समाजांत जे विकार घडल्यांत तांचो बारीक अभ्यास करीत जाल्यार अशें दिसून येतलें कीं, ते चडशे मनोरंजन . हातून, नाटक, सिनेमां हीं सगळीं आयलीं तें आमच्यो सुप्त प्रवृत्ति जाग्यो करच्यो आसता (विकारी) ...आमचें सदचें जेवण–खाण... मसालेदार, शरीराक उत्तेजक अशो वस्तू... हांका लागूनच जाल्यात.

आज आमची इष्टागत बऱ्या मनशाकडेन जावपाक बरीच कठीण पट्टा. हाचे उलट व्यसनी मनीस हेरांक रोकडोच वोडून व्हरता.

आज मेरेन थोडेच अपवाद सोडले जाल्यार जें लिखाण जालां ताचेवरवींय असले विकार पातळपाक मदत जाल्या. खरें पळोवपाक गेल्यार साहित्यांतल्यान उजवाडाक येवपी कथा–कविता आनी हेर बरपावळ खुबदां वेगळेच वाटेन गेल्ली आमकां पळोवंक मेळटा. हेंच कित्याक आज कितलींशींच म्हयनाळो, दिसाळी भायर सरतात तांचेर जे उगडे नागडे कव्हर फोटो दितात तशोच जायराती दितात त्योवय चडात चड असल्या वायट विकारांक जल्म दितात. सुरवातेक असलीं हीं मासिकां सामाजिक सेवेचें मोल घेवन जल्मांक येतात आनी उपरांत प्रत्येक मासिक वेल्याच प्रकारांत वता जसो तांचो तो धर्मच जावन आसता.

दुसरी गजाल, सवाय भितर जावपी मनोरंजनाची–जो सिनेमा–चलचित्रांवरवीं जाता. सिनेमाचो आज जो प्रचार जाता तितलो आनी कित्याचोच जायना. हाकाच लागून अशिक्षीत मनीस सोडाच. पुण शिकिल्लो मनीस लेगित हाचेकडेन वोट्टा; आनीं तांतून दाखयतात त्या अश्लील पदांनीं, संवादानीं, उतरांनीं, उगडे–नागडे नाचांनीं तांचे मदीं विकाराच्यो भावना वाडच्योना जाल्यार कितें जातलें ? आज आमीं बाजारांन मेळपी, अशींच उगडचार दवरिल्लीं खाणां खातात. जाका लागून न्हंय न्हंय ते रोग उप्रासतात, आनी सामाजिक जीण पेडचार करतात. त्या भायर विडी, सिगार हें जालेंच तर हालीं हालीं ताची तलफ कमीं म्हणून गांजो, अफू, ब्राबन शुगर सारके अंमली पदार्थ सिगारांन मिक्स करून वोडतात. सांगपाक वायट दिसतां कि हें प्रकार चड करून पवित्र अशा कॉलेजांसावन सुरू जातात.

जा खरो मनीस आसता तो सदांच जें खातलो तें खात्रेन ताचें आवडटें आनीं पुष्टिक अशेंच आसतलें. जो जनांवरांवरवीं जगपाक जाय म्हणून खातलो तो ही जीण कशी तरी जिवी दवरपाक खातलो. तो पुष्टीक आनीं कुजकें म्हणून पळोवचो ना. ताचें जगप म्हळयार जितो आसून मेल्यावरीं. हेंच आमीं म.ीन दवरपाक जाय. अशें आसतनां जिणेक त्रास जायसारकीं खाणां कित्याक खावप ? शरीराक वायट करपी खाणां सदांच सवाय आनी मसालेदार अशी आसतात म्हणून तीं आमीं खावचीं ?

यशाचो मार्ग हो सदांच कठीण त्रासांतल्यान वता आनी वायटाचो मार्ग नीट आनी सुखांतल्यान वता, म्हणून आमी जावन कठीण यशाचो मार्ग सोडून पळटले काय कितें ? तो मार्ग मेळोवपाक प्रयत्न करतले काय ना ? खात्रेन यत्न करपाक जाय. हातुंतच आमचो स्वतःचो, समाजाबरबरच देशाचोय फुडार आस्पावता. आमची जीण पवित्र आनी नितळ उरपाक आमी जी संगत इश्टागत करतात ती तेच भशेन नितळ आस्पाक जाय. सदांच जें कितें करतले तें नितळ, वाचतलें तें बरें आनी खातले तें पुष्टिक अशें खातले. वायट विकारांचेर, विचारांचेर बहिष्कार घालतले अशी आमी आमच्या मनाची तयारी करपाक जाय.

आरोग्याक माल अशे कपडे सदांच दिसपाक बरे आसतात. म्हणून आमीं तांचेविशीं आमचे आवडीक बांद घालपाक जाय आनी निवळ, सुती कपडे वापरपाक जाय. हातल्यान जालो जाल्यार फायदोच जातलो. म्हणूनच आमीं असल्या विकारांसावन संयम पाळूंक शिकपाक जाय. असो संयम पाळिल्यान नुकसान कांयच जांवचेना. तसोच सामाजिक विचारय बंद जावपाचो ना. उलट स्वतःची शक्ती मात वाडटली आनी दृष्टी सुदारतली. हाचे उलट तोच संयम पाळो ना जाल्यार आळसाय वाडटली. आमचें शरीर, ताजें आरोग्य रोगाचें भक्ष्य जातलें. आनी एकदां अशें जालें म्हण्टकीर ते निस्तरपाक मात बरेच त्रास जातले.

जावन गेल्या व्हड मनशांचीं कितलीशींच उदारणां आमच्या दोळ्यांमुकार आसात, जाणीं आत्मसंयम पाळिल्लो. कितलेशेच साधू जावन गेले जे संयमान मोक्षाक पावले. इतलो सगलो इतिहास आमच्या दोळ्यांमुखार आसतना कित्याक म्हणून आमी ताचे कडेन फाट करची. हें आज जण एकल्यान क्रुतीन हाडपाक जाय. स्वतः पुरतेंच प्रत्येकान पळयलें जाल्यार खूब जालें. म्हटलांच न्हंय कीं, पयलीं स्वतःक सुदार म्हण्टकीर समाज सुदारतलो. समाज सुदाल्लो म्हण्टकीर आपशीच देश सुदारतलो.

-◆-



# Promotion of Biogas for Rural Prosperity

SOLVE RURAL ENERGY PROBLEM BY INSTALLING BIOGAS PLANT

CONSTRUCT NEW MODEL JANATA / DEENBANDU BEING SIMPLER IN CONSTRUCTION, CHEAPER IN COST AND WITH LOCALLY AVALLABLE LATERITE STONE/BRICKS, MATERIAL :–

LEVY CEMENT ON PRIORITY.

TECHNICAL ADVISE AND MONETARY ASSISTANCE FROM DEPARTMENT OF AGRICULTURE AND LOAN FROM BANKS.

**BENEFITS :-**

GAS FOR COOKING AND LIGHT.

WEED SEED FREE SLURRY, READY MANURE FOR AGRICULTURE.

**SUBSIDY PATTERN IN RUPEES**

| Capacity of Plant (Cu. m. of gas per day) | for Schedule Cast/S. Tribes | | | For all others including small Marginal Farmers | | |
|---|---|---|---|---|---|---|
| | Central Govt. | Goa Govt. | Total subsidy | Central Gowt. | Goa Gowt. | Total |
| 1. | 1250 + | 1000 = | 2250 | 1000 + | 1000 = | 2000 |
| 2. | 2350 + | 1000 = | 3350 | 1560 + | 1000 = | 2560 |
| 3. | 2860 + | 1000 = | 3860 | 1900 + | 1000 = | 2900 |
| 4. | 2860 + | 1000 = | 3860 | 2140 + | 1000 = | 3140 |
| 6. | 2860 + | 1000 = | 3860 | 2610 + | 1000 = | 3610 |
| 8. | 2860 + | 1000 = | 3860 | 2860 + | 1000 = | 3860 |
| 10. | 2860 + | 1000 = | 3860 | 2860 + | 1000 = | 3860 |

Farmers possessing cattle / poultry / pigery are requested to contact Zonal Agricultural Offices of respective Talukas and Directorate of Agriculture, Panaji to avail benefits.

Issued by :

**Directorat of Agriculture**

Government of Goa,
Panaji–Goa.

K. Gokuldas Prabhu
Corporation Bank,
H.O. Humanresource Dept.
Manglore 575 001.